# जाग

वर्स ४६ : आंक १ : ऑगस्ट , २०१९



आमची मोख, ध्येय आनी
तत्वांचो जेन्ना आमकां
विसर पडटा तेन्नाच अपेस
आमकां सोदीत येता.

- जवाहरलाल नेहरू




जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

**वर्स ४६ : आंक १ : ऑगस्ट, २०१९**

**स्वतंत्रताय दीस खाशेलो आंक**

✽ **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

✽ **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

✽ **संपादपी :**
आसावरी नायक

✽ **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक
एडना वाझ

✽ **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालर्देल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✽ **छापपी :**
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

✽ **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,००० /- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भितल्लीं चित्रां : **भरत जगताप**

# जवाहरलाल 'जवाहरलाल' कशे जाले?

जवाहरलाल जवाहरलाल कशे जाले? ह्या देशाचे ते प्रधानमंत्री आशिल्ले खरे. पुणून प्रधानमंत्री तांचे उपरांत दुसरेय कांय जाण जाल्यात. तांचे मजगतचो एकलोय जवाहरलाला येदो जावंक पावूंक ना. खासा जवाहरलालांनीच एक फावट म्हळ्ळें, 'हांव निखटो प्रधानमंत्री न्हय. I am something more than the Prime Minister.' हें *'समथींग मोर'* तांच्यांत कशें येवंक पाविल्लें? गोंय मेकळें जाले उपरांत ते पयलेच फावट गोंयांत आयल्यात तेन्ना काम्पाला वेल्या आपणाल्या उलोवपांत तांणी म्हळ्ळें - What am I?... I am a product of India's struggle for freedom - 'हांव हांव जावंक पावलों, कित्याक, हांव भारताच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत पडिल्लों. ह्या स्वातंत्र्य संग्रामान म्हाका घडयला. हांव एक उपफळ ह्या संग्रामाचें...'

भारताचो स्वातंत्र्य संग्राम स्पर्शमणया सारको आशिल्लो. ह्या संग्रामांत जे पडटाले तांचें जिवीत भांगराचें जातालें. ते व्हड जाताले. भारतीय आकाराचे जाताले. पुराय देशा संबंदान चिंतताले. ते पक्ष काडटाले ते 'अखिल भारतीय' आसताले. आनी चळवळी चलयताले त्यो लेगीत अखिल भारतीय रुपाच्योच आसताल्यो.

नेतृत्व निर्माण करपाची ही यंत्रणा आयज बंद पडल्या. आयच्या राजकर्णान वेंचणूक नांवाची एक नवी यंत्रणा उबी केल्या. ती नवें नेतृत्व निर्माण करूंक लागल्या. क्रिस्तांव मतदारसंघांत क्रिस्तांव नेतृत्व, मुसलमानांच्या मतदारसंघात मुसलमानांचें, जाटांच्या मतदारसंघांत जाटांचें, मराठ्यांच्या मतदारसंघांत मराठ्यांचें, हे भाशेन, क्रिस्तांव, मुसलमान, जाट, मराठे, यादव, गावडे, नायक, बामण - ते ते जातीचें, वा त्या त्या संप्रदायाचें नेतृत्व निर्माण करपाक लागल्या. हाका लागून देशांत आयज फकत 'लघु-नेते'च - गिड्डे नेतेच - मुखार येवपाक लागल्यात. जवाहरलाल येवंक पावंक नात. धरुंया, जवाहरलाल आयज लोकसभेचें तिकेट मागपाक गोंयांत काँग्रेस पक्षा कडेन गेल्ले जाल्यार तांगेलोच हो पक्ष तांकां खंयची तिकेट दितलो आशिल्लो? 'तुमी हिन्दू जाल्ल्यान मुरगांव मतदारसंघांत उपकारनात, आनी सारस्वत बामण जाल्ल्यान पणजी मतदारसंघांत उपकारनात, अशें सांगून तो तांकां कडेक उडोवचो नाशिल्लो? आयचें राजकर्ण जवाहरलालांक लेगीत जवाहरलाल जावंक दिना. हाचो परिणाम - बरो मनीस आयज 'राजकर्ण? पाड पडूं तें. तें आमकां न्हय' अशें म्हणून ताचे पसून कडेक रावपाक लागला.

पयलीं फकत भित्रे लोक राजकर्णांत पडऽ नाशिल्ले. आयज बरे लोक पडनात. केदो फरक पडला त्या राजकर्णांत आनी ह्या राजकर्णांत!

ज्या देसांत हजार जाती, हजार संप्रदाय आसात थंय जाती, संप्रदाय हांचे पेल्यान गेल्लेंच नेतृत्व वयर सरूंक जाय. ना जाल्यार देश एकठांय उरपाचो ना. वयरूय सरपाचो ना.

एक तर देशाक एकठांय दवरपाची आस्त सोडून दिवंक जाय, वा जी यंत्रणा जवाहरलालाक जवाहरलाल जावंक दिना ती मुळा थावन बदलूंक जाय.

*****

आपणाले दीस सोंपल्यात म्हणपाचें इंग्रजांक कळ्ळें तेन्ना आपणाले गादयेर काँग्रेसीक बसोवन ते गेले. आमकां स्वराज्य मेळिल्ले वरी दिसलें. हिन्दुस्तानाक आपणें स्वराज्य दिलां अशें इंग्रजांनी म्हळ्ळें कोणें केन्ना वाचूंक ना, आयकूंक ना. आमी जाका स्वराज्य मानलें तें तांचे नदरेन निखटें 'सत्तांतर' आशिल्लें. Transfer of power आशिल्ली ती. आमकां फकत गादयो मेळिल्ल्यो. सरकार आदल्या आय.सी.एस्. लोकांच्याच हातांत उरिल्लें. सरकारी भासूय आदली - इंग्रजीच - उरिल्ली. फकत बावटो बदलिल्लो. राष्ट्रगीत बदलिल्लें, नोटींचेर आनी नाण्यांचेर इंग्लंडच्या राजां राणयां बदला गांधी नेहरूंचीं वा अशोकचक्राचीं बावलीं आयिल्लीं.

तॉलस्तॉयचें एक पुस्तक आसा 'Slavery of Our Time' - 'आमच्या काळांतलें बंदेपण' - नांवाचें. ह्या पुस्तकांत तो म्हणटा, मनीस संवसार सोडून वता तेन्ना कारभार पुता सुवादीन करून वता. तशें, एक बंदेपण वता तेन्ना तें दुसऱ्या बंदेपणाक आपणा सुवातेर बसोवन वता. तशी, एक राजवट वता आनी दुसरी येता तेन्ना फकत राज्यकर्त्यांचीं खुमणीं बदलतात. राजवट तीच चलत रावता. नेहरू उपरांत इंदिरा गांधी, तिचे उपरांत राजीव गांधी, राजीव गांधीं आदीं आनी उपरांत आनीक कोण कोण आयले आनी गेले. राजवट इंग्रजांच्या काळांत चलताली तीच चलत रावली. अटलजी आयले तेन्ना कितेंय तरी बदल जातलो अशें दिशिल्लें. कित्याक, एके वेगळे राजकी परंपरेंत, वेगळ्या राजकी संस्कारांत तांची वाड जाल्ली. पळेल्ले अंतीं तेवूय आदल्या सगळ्यां सारकेच, एकेच माळेचे मणी, म्हणपाचें तांणी दाखोवन दिलें.

ना म्हळ्यार, इंग्रज गेल्यात तेन्ना एक म्हत्वाची गजाल घडिल्ली. देशांत लोकशाय आयिल्ली. चलत आयलां तें चलत दवरपा खातीर न्हय. चलत आयलां तातूंत बदल घडोवन हाडपा खातीर. लोकशायेन आमकां मताचो अधिकार दिल्लो. म्हळ्यार, सत्तेचो एक अंश आमच्या (सरसमान लोकांच्या) हातांत आयिल्लो. आमी ह्या अधिकाराचो उपेग फकत आमचे प्रतिनिधी वेंचून काडपा खातीर केलो. तुर्ताक देशांत चलता ती लोकांच्या प्रतिनिधीं उदेशीं चलपी *'डेलिगेटेड'* लोकशाय. ती 'खरी' जावपाक - *'डायरेक्ट एॅण्ड पार्टिसिपेटरी'* जावपाक - नीट लोक चलयतात असली जावपाक जाय. ती 'डायरेक्ट आनी पार्टिसिपेटरी' केन्ना जावंक पावतली? सरकाराची सत्या इल्ली इल्ली उणी जायत वतली आनी लोकांची इल्ली इल्ली करून वाडत वतली तेन्ना. सरकाराच्या हातांत आशिल्लीं कामां लोक चडांत चड आपणा हातांत घेतले तेन्ना. कर्तुत्व सगळें दिल्लींत केंद्रीत जावचे बदला गांवा गांवांनी वांटून वतलें तेन्ना.

ईश्वराची देख घेवन हें काम करूंक जाय.ईश्वरान सगळी अक्कल आपणा हातांत वैकुंठांत वा स्वर्गांत दवरूंक ना. किडी मुयां पसून हती गेंड्या मेरेन सगळ्यांक ती वांटून दिल्या. म्हूण संवसार 'चलता'. इतलो बरो चलता की ईश्वर आसा काय ना हो प्रस्नूय लोकांक पडटा. तो ना म्हणपीय लोक संवसारांत आसात. तशी, दिल्लींत बंदिस्त उरिल्ली सत्या लोकांनी आपणा हातांत घेवन ती गांवा गांवांनी पावोवंक जाय आनी गांवांतल्या सगळ्या कारभाराचें नियंत्रण आनी नियोजन गांवांतल्याच लोकांनी करून देस इतलो बेस बरो चलोवन दाखोवंक जाय की सरकार आसा काय ना असो दुबाव लोकांक येवंक जाय. तेन्नाच खरेल्या अर्थान स्वराज्य येतलें.

*(रवीन्द्र केळेकार हांच्या आशिकुशीक ह्या पुस्तकांतल्यान)*

# कोंकणी चळवळ आनी भोवजन : एक देणें घेणें

तानाजी हळर्णकार



भोवजन उतराची आयडेंटिटी, म्हणजे नेमकी वळख करून दिवप तशें घुसपागोंदळाचें. शद्बशा अर्थ काडलो तर भोवजन म्हणजे भोवसंख्येन आशिल्लो जनसमुदाय. इंग्लिशींतल्या majority उतराक लागीं असो हो अर्थ आसा. भोवजनाच्या भोवमतार चलपी राजकारणांत हो अर्थ फिट्ट बसूं येता, समाजकारणांत बसचोना. समाजकारणांत संख्येच्या आंकड्यां वांगडा आनीक एक सामाजीक आयाम भोवजन ह्या उतराक लागू जाता.

राष्ट्रीय पांवड्यार, majority (भोवसंख्यांक) म्हणजे हिन्दू आनी minority (अल्पसंख्यांक) म्हणजे हिंदुत्तर (नॉन हिन्दू) हो धार्मीक संदर्भ ह्या उतराक लावप जाता. हिन्दू न्हय अशे मुसलमान, किरिस्तांव आनी तत्सम धर्मीय समाज हिन्दूत्तरे अल्पसंख्यांक गटांत आसपावतात. असोचसो कितें भोवजन म्हटल्यार ब्राह्मणेत्तर (नॉन ब्राह्मण) आनी अल्पजन म्हणल्यार भोवजनेत्तर (नॉन भोवजन) असो जातीवाचक संदर्भ ह्या उतराक येवन दसता.



भोवजन उतराक धार आनी दर आयली ती गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत. ताचे पयलीं भोवजन हें उतर केन्ना फोकसांत आयलेंना. ताचो सार्वजनीक वेव्हार ताच्या शिगम्या-धालां मांडा पुरतो शिमीत उरलो. ताचे भायर भोवजनाक कोण कोंताक धरिनासलो. आदल्या काळांत, सार्वजनीक मळार भोवजन आसून नासून सारको आसलो. कोणाचें कांय अड-नड नासलें. भोवजनाकय ताचें व्हडलेंशें पडूं नासलें.

गोंयच्या स्वातंत्र्याचे जायते फायदे गोंयकारांक मेळ्ळे. सगळ्यांत व्हडलो फायदो जालो तो भोवजनाचो. गोंयचो स्वातंत्र्य दीस हो ताचे खातीर भाग्योदयी दीस. ते दिसा, एका रातयां म्हणटा तशें भोवजनाचें भाग्य उजळलें, जें भाग्य इतले दीस आपल्या उद्धाराची वाट पळयत आसलें. जाका कोण विचारी पाचारी नासलो, कसल्या कोंताक धरिनासलो, त्या भोवजनाक स्वातंत्र्योत्तर काळांत मध्यवर्ती सुवात प्राप्त जाली. जावं समाजकारण, जावं राजकारण, अर्थकारण जावं शिक्षणकारण, भोवजनाक कोंताक धरले बगर कसली येवजण चालीक लागूंक शकना इतको धाक निर्माण करपा इतलो भोवजन सक्षम जावंक पावलो. राजकारणांत तर ताची सुवात किंगमेकरची. कोणें राज्य-शिंवासनार बसचें आनी कोणें शिवासना वयल्यान सकयल देंवचें हें भोवजनाचें भोवमत थारायता. राजकारणाच्या खेळांतलो तो एक्को जाला. जाच्या पानांनी हो एक्को येता तो दाव जिखताच जिखता. हो एदो व्हड अधिकार गोंयच्या स्वातंत्र्यान भोवजनाक दिलो. गोंयचें स्वातंत्र्य भोवजना खातीर निव्वळ राजकी स्वातंत्र्य जालेंना. ती ताचे परावलंबी जिणे-मुक्ती जाली.

गोंय स्वतंत्र जालें १९६१त. दुसऱ्याच वर्सा पयली पंचायत वेंचणूक जाली. आपल्या भोवमताक वांगडा घेवन भोवजनान राजकारणांतली पयली एन्ट्री घेतली ती थेट सरपंचाचे खुर्चेर बसुनूच. सत्तेचे खुर्चेची कितें पॉवर आसता हाचो साक्षात्कार, पयलेच फावट, ताका थंय जालो. इतलो तेंप हेर सांगताले आनी भोवजन तकली हालयतालो. आतां तो हेरांक सांगपीच न्हय तर तांकां आदेश दिवपी जाल्लो. पयलेच फावट.

इतलो तेंप फाटीं उरिल्ल्या भोवजनाक मुखार हाडपाचो हो कोणें केल्लो पुरोगामी विचार नासलो. भोवजनाच्या हिता खातीर कोणें भोवजनेतरान केल्लें तें सामाजीक अभियान नासलें. भोवजन हिताय भोवजन सुखाय तत्त्वार चलपी लोकशायेची ती करामत आसली. तो कोणाचो चॉईस नासलो. तें गरजेंतल्यान आयिल्लें कंपलशन आसलें. हें जितकें हेरांक खबर आसलें तितकें भोवजनाकय तें कळीत जाल्लें. आपणा कडेन आशिल्ल्या भोवमताची ही सगळी किमया आसा हें पारखुपा इतलो आतां भोवजन शाणो जाल्लो. पानवेली धर्मान म्हसकाक उदक मेळटा आसलें तरी मेळिल्ल्या उदकान म्हशींगय तरतरताच. आपल्या पोरसांतली ही देख नदरे मुखार दवरून भोवमताच्या धर्मान मेळिल्ले संदीचो ताणें लाव घेतलो. पयलीं पंचायत आनी उपरांत विधानसभा, लोकसभा, राज्यसभा असो आपलो तरतरीत राजकी प्रवास केलो.

आमी जायते फावटी म्हणटात. गोंयकारांनी केन्ना गोंयाचेर राज्य केलेंना. गजाल सामकी खरी. तशें जाल्लें आनी आदल्या काळांतले राजेशाय वेवस्थेंत गोंयकार गोंय राज्याचे गादयेर बसूंक पाविल्लो, जाल्यार ते राजवटींत भोवजनाची राजदरबारांतली खंयची सुवात आसतली आसली कांय? निश्चीत सांगूंक जावंचेंना. पूण ती स्वतंत्र गोंयांत भोवजनाक प्राप्त जाल्ले सुवाते येदी नक्कीच आसचिनासली.

भोवजनाची मराठी परंपरा ही भोवजनाची कुड्डी श्रद्धा अशें कांय जाणांक दिसता. तांकां तें भोवजनाचें अबुद्धपण दिसता. खरेपणीं मराठी परंपरा फकत भोवजना मदींच ना तरी म्हाजनां मदींय आसा. कालूय आसली आजूय आसा. अशें जावपा फाटलें कारण कितें आसूं येता हाचो सोद घेवप आमचे कडल्यान जायना. हाचे-ताचेर उखलापे अभिप्राय दिवपा इतकें तें काम सोंपें ना. ते खातीर मराठी स्विकारपाच्या मुळा कडेन वचपाची गरज आसा. आदल्या काळांत जेन्ना गोंयकारांनी मराठीचो स्विकार केलो तेन्नाच्या काळांतली ती गोंयकारांची भाशीक गरज जाल्ली. त्या काळांत तिका पर्याय कोंकणी कडल्यान मेळ्ळो ना. म्हणून, प्राप्त परिस्थितींत उपलब्ध आशिल्लो मराठीचो पर्याय गोंयकारांक स्विकारचो पडलो. सुरवेक गरज म्हणून स्विकारिल्ले मराठी-पर्याय कालांतरान सगळ्यांच गोंयकारांची परंपरा जावन बसली.

जो भोवजन, परंपरेन म्हणटा तसो आजूय लग्नां-गितां, शिगम्या जती, धालो-फुगड्यां पदां, कोंकणींतल्यानच गायत आयला. म्हणी, ओपारी, हुमाणीं कोंकणींतल्यान घालीत आयला. सदच्या वेव्हारांत चडांत चड कोंकणीचो वापर करीत आयला. अशा ह्या भोवजनाची मराठी परंपरा आसुंकूच फावना. ती तशी आसा अशें दिसपा फाटल्यान कारण आसा तें मराठी-उपलब्धी आनी कोंकणी-अनुपलब्धीचें. हाणेंच हो मराठी कांय कोंकणी परंपरा हाचो घोळ घालून दवरलो. होच घोळ आमचे भाशीक, सांस्कृतीक वेव्हारांत दिसूंक लागलो.

गणपती मुखार फुगड्यो कोंकणी, गाराणें कोंकणी, आरती मराठी. शिगम्यां गितां कोंकणी, नाटक मराठी. तशेच गरजेंतल्यान भजन, किर्तन मराठी. उलोवप कोंकणींतल्यान. वाचन मराठी. शिक्षण मराठी. लोक साहित्य कोंकणी, अभिजात साहित्य मराठी. उत्स्फूर्त तें कोंकणी. थारावन रचिल्लें तें मराठी. हो घोळ आमी करीत आयल्यात. आनी हो घोळ कोणें मुद्दाम घालूंकना. मराठी वयले कुड्डे स्त्रद्धेंतल्यानय हो जावंक ना. ताचे फाटलें एकच कारण. त्या-त्या काळांतली लोकांची भाशीक, साहित्यीक (अभिजात), शिक्षणीक गरज कोंकणी भागोवंक पावलिना. मराठीचो पर्याय स्विकारप अनिवार्य जालें. कारणां कितेंय आसूं. सत तें सत. तें स्विकारप अपरिहार्य आसा.

संवसारांत सगळेकडेन लोकवेदाचे फाटीर बसून अभिजात वेद आयला. लोक साहित्यांतल्यान अभिजात साहित्य, लोक नाट्यांतल्यान अभिजात नाटक, लोक संगितांतल्यान अभिजात संगीत. लोक शिक्षणांतल्यान शालेय शिक्षण. हेर भासांनी अभिजात काळांतली अभिजात निर्मिती, ते ते भाशेंतल्या शिक्षीत अशा उच्च वर्गियां कडल्यान जाली. कोंकणींत अशें घडूंक पावलेंना. उरफाटें शिक्षीत उच्च वर्गियांनीय हाता कडेन उपलब्ध जाल्ली मराठी स्विकारली. गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांत कोंकणी चळवळीच्या प्रभावा खाला, मराठीक कोंकणी पर्याय दिवपाचो वावर सुरू जालो आनी ताका गोंयकारां कडल्यान बरो प्रतिसादय मेळ्ळो.

कोंकणी पासून पयस रावपाक मराठी-परंपरा हें एकच कारण भोवजना मुखार आसलें म्हणप अर्धसत्त्य जातलें. तशें जावपाक मराठी वांगडाच सामाजीक परिमाण आशिल्लें आनीक एक कारण आशिल्लें दिसता. कोंकणी चळवळीचे सुरवेचे प्रवर्तक ज्या भोवजनेत्तर समाजांतले आसले त्या समाजा बद्दल भोवजनाच्या मनांत एक अविस्वासाची भावना आसली. इतिहासांतल्या खंयच्या तरी पिडादायक घडणुकां संबंधीत ही भावना, भोवजनाच्या उलोवपांतल्यान, म्हणी, ओपारी, गितां अश्या लोक साहित्यांतल्यानय रिॲक्ट जाल्ली पळोवंक मेळटा. भोवजनाचें कोंकणी पासून पयस रावप हें अशेंच एक रिॲक्शन आसलें. आनीक एक अशेंच रिॲक्शन ओपेनियन पोला वेळार भोवजना कडल्यान जाल्लें दिसता. इतिहासाची पुनरावृत्ती जायत ह्या भंयान बरोचसो भोवजन विलिनिकरणा वटेन रावलो आसूं येता. जो भोवजन विलिनिकरणा वटेन रावलो ताचे फाटले तिडकिचें एक वेळ समर्थन जावं येता. पूण स्वताच्याच पांयार फातर मारून घेवपा इतल्यो तिडकीच्या कुड्डेपणाचें समर्थन जावंक शकना. निदान इतिहासान कूस बदलल्या ती पळोवन तरी इतल्या थरार वचपाचो विचार भोवजना कडल्यान जायनासलो. दुदान तोंड भाजतकीच ताक लेगीत फुकून पिवपाच्या त्या वेळा वयल्या भिजुडपणान भोवजनाचो बुद्दीभेद केला आसूं येता.

हे अशे फाटभुंयेर, भोवजनाची एक यँग टीम पयलेच फावट म्हणटा तशी कोंकणी चळवळी कडेन गेली. ते मेरेनचे, कोंकणी पासून आनी कोंकणी चळवळीच्या प्रवर्तकां पासून चार पावलां पयस रावपाचे परंपरेक छेद दिवपी ही घडणूक आसली. अशें कितें घडलें जाचे खातीर भोवजन शिलेदारांनी मराठीचे परंपरेक फाट करून कोंकणीक लागीं केली.

खंयचीय चळवळ यशस्वी जातली तर तिका जनाधार लागता आनी हो जनाधार भोवजना कडल्यानच मेळूं येता हो विचार कोंकणी चळवळीच्या जाळवणदारांनी करप सभावीक आसलें. पूण जाळवणदारांनी उलो मारलो आनी भोवजन चळवळी कडेन धांवलो अशें मात जावंक ना. कोंकणींत लेखन करून साहित्यीक जातलो, पुरस्कार जोडटलो असल्या आकर्शणांचे ओडीनय भोवजन थंय गेलो ना. कारण अश्या आकर्शणांची त्या काळांत सुलूस लेगीत लागूंक नाशिल्ली. उरफाटें कोंकणी कडेन गेल्ल्या ह्या गड्यांचें प्राथमीक शिक्षण मराठींतल्यान जाल्लें. मराठी साहित्य उपलब्ध आशिल्ल्यान मराठी साहित्याचें बरेंच वाचन जाल्लें. ह्या गड्यां मदल्या भोवतेकांनी मराठींतल्यान लेखनूय केल्लें. मराठीची परंपरा, मराठींतल्यान शिक्षण, मराठी साहित्य वाचन आनी साहित्य लेखक अशी ह्या गड्यांची प्रोमराठी पूर्वपिठिका आसताना हे नव्या दमाचे भोवजन गडे कोंकणी कडेन कशे पावले हाचें हेर भोवजनांक अजापूय जाल्लें दिसलें. भोवजना मदल्या अणभवी जाण्टेल्यांक ह्या गड्यांचो हुस्कोय जाल्लो दिसलो. तुमी जंय वचूंक भायर सरल्यात थंयचे लोक मतलबी आसात अशी शिटकावणी तांचे कडल्यान मेळिल्ली. तरीय हे गडे कोंकणी कडेन गेले ते गेलेच. कित्याक?

सुरवेक जे भोवजनी गडे कोंकणी कडेन गेले ते तांच्या घरांतले पयले उच्चशिक्षीत गडे. तांचें शिक्षण, वाचन आनी ते उद्देशीं तांणी केल्लें मनन हांणी तांकां स्वतंत्रपणान विचार करपाची प्रेरणा दिल्ली. गोंयांतली परकी राजवट वचून भूंयपुतांचो कारभार ह्याच सुमाराक सुरू जाल्लो. ''स्व''चो साक्षात्कार जावंक पाविल्ल्या ह्या भूंयपुतांक (भोवजनी गड्यांक) भुंयेची, भूंयभाशेची ओड लागप सभावीक

आसलें. कोंकणी अस्मितायेची आस लागिल्ल्या भोवजनी गड्यांचीं पावलां समविचारी मनशां कडेन, आनी पर्यायान कोंकणी चळवळी कडेन, पडपाची सैमीक घडणूक घडली. कोणें भायल्यान उलो मारलो म्हणून न्हय तर आपणा भितरल्या उल्याक ओ दिवपाक भोवजन गडे कोंकणी चळवळींत सामील जाले.

भोवजनी गड्यांचे हे पयले टिमीन भोवजन आनी कोंकणी हांचे मदीं सेतू बांदपाचें बुनयादी काम केलें म्हणल्यार उपकारता. ह्या पयल्या वयल्यां गड्यांचो आदर्श मुखार दवरून उपरांत एक लांबची लांब पलटण ह्या सेतू वयल्यान कोंकणी कडेन पावली. भोवसंख्य भोवजनाच्या आगमनांतल्यान कोंकणी चळवळीच्या गणिताक आनी भुमितीक एक आगळो आयाम प्राप्त जावंक पावलो. अमूकच अश्या समाजाची चळवळ अशी आकुंचीत आशिल्ली वळख पुसून ती साबार भूंयपुतांची चळवळ अशी तिची नवी वळख निर्माण जावंक पावली. भोवसंख्यी भोवजन फुटींग मेळिल्ल्यान चळवळीचें संख्यात्मक बळगें वाडलें. सरकार दरबारी तसो विरोधकां मदीं चळवळीचो धाक निर्माण जावंक पावलो जो चळवळ जैतिवंत जावपाक उपकारक थारलो. चळवळीच्या जैताक पुरक अशें भोवजना कडल्यान बळगें प्राप्त जालें आनी कोंकणी अस्मितायेच्या पुरुशार्थी आंदोलनांत आपलें योगदान दिवपाची संद चळवळीन भोवजनाक दिली. दोनूय एकमेकांक पुरक जावन एकमेकांक हितकारी जाले.

भोवजन आनी कोंकणी चळवळ हांच्या नाते संबंदांत एक विधान करप जाता. विधान अशें: ''कोंकणी चळवळ ही एक पुरोगामी चळवळ. प्रदेश, धर्म, जात, पिराय, लिंग, लिपी, राजकी पक्षनिश्ठा विरयत अशी चळवळ. चळवळींत सगळे एकठांय वावुरलेच अशें न्हय तर एकवोटान वावुरले. मांडयेक मांडी लावन जेवले-खाले, खांदाक खांद तेंकोवन झुजले. चळवळ जैतिवंत जावपाक ह्या एकवोटाचो मोलादीक आदार जालो, जाचो विरोधकांनी लेगीत धसको घेतलो.''

हें विधान सत्त्यस्थिती सांगता हातूंत दुबाव ना. खंयचेय चळवळीच्या यशा खातीर जे कांय घटक लागतात ते कुशळ नेतृत्त्व, निश्ठावंत कार्यकर्ते, यथोचीत दुडवां-आदार आनी एकवोट. सगळें जुस्ताक जुस्त आसा आनी एकवोट नासत तर बाकीचे घटक निर्फळ जावपाचो धोको उद्भवता. कोंकणी चळवळींतलो एकवोट हो हे गरजेंतल्यान आयिल्लो एकवोट. समाजीक समता अशा उदात्त पुरोगामी विचारांतल्यान जाल्ली ती कृती नासली. त्या एकवोटाचें उद्दिश्ट आसलें चळवळीक बळकटी हाडपाचें. समाजीक समता प्रस्थापीत करपाचें नासलें. आनी म्हणून ह्या पुरोगामित्त्वाचें स्त्रय कोणें कोणाक घेवप-दिवप समा जावंचेंना.

आलतड-पलतड मारपी तारीर बसताना समानता दवरप सामकी गरजेची. थोडें लेगीत बसप दावें-उजवें जालें तर तार लवंडून तारीर बशिल्ल्या सगळ्यांकच जलसमाधी मेळपाची शक्यताय आसता. म्हणून तारीर बसयताना तारयो बसतल्यांचो समाजीक दर्जो पळयना. तांचे कुडीचो आकार पळोवन तांकां बसयता. मागीर थंय भाटकारा वांगडा मुंडकार, गिरेस्ता वांगडा गरीब, जाण्ट्यां वांगडा नेण्टो अशी मांडावळ घडोवन येता. म्हणून तारयान आपूण समाजीक समतेची पुरोगामी विचारसरणी बाळगितां म्हणपाचें स्त्रय घेवंक जायना. आलतडच्यान पलतडीं सुरक्षीत पावपाची ती सगळ्यां खातीर केल्ली मांडावळ आसता. तार पलतडीं लागतकीर तारी वयले सगळे प्रवासी परतून आपल्यो समाजीक पांवडो घेवन आपले वाटेक लागतात. तारीर चडचे पयलीं आनी तार पलतडीं लागतकीर आपलो समाजीक दरजो सांबाळप्यांनी, आपले सुरक्षे खातीर तारीर आसताना दाखयल्ली समता हो पुरोगामी विचार जावंक शकना. ती तडजोड जाता.

कोंकणी चळवळीच्या पुरोगामित्त्वाचें कितें? तें तारी वयल्या पुरोगामित्त्वा परस वेगळें समजूंक मेळत व्हय? चळवळींतली समता, चळवळ उलगल्ल्या उपरांतच्या कोंकणी वावरांत तशीच शाबूत उरल्या व्हय? ह्या प्रस्नांची जाप दर एकल्यान आपणाकच विचारून घेवची.

भोवजन आनी नेतृत्व हो विचार येता तेन्ना जायते जाण भोवजना कडेन नेतृत्व करपाची हिकमत ना अशें सुचीत करपी विधानां करतात. अशें सुचीत करताना भोवजनान भोवजनेतरां कडल्यान नेतृत्वाची अपेक्षा धरिनासतना स्वताच स्वताचें नेतृत्व करचें अशें सुचयतात. ते खातीर विधानसभेंतल्या भोवजनाच्या चडावत प्रतिनिधित्त्वाचो उल्लेख करप जाता. हीं विधानां असो आभास निर्माण करतात की भोवजनान केन्ना विधानसभेचें नेतृत्व केलेंच ना वा केलें तें यथोचीत केलें ना परंत वास्तव वेगळीच काणी सांगता. पयलेच विधानसभेचें नेतृत्व एका भोवजनानच केलें. आनी तें खूब बरें केलें हें इतल्या वर्सां उपरांतय लोक उलोवन दाखयतात. विलिनीकरणाचो खरो-फट पुरस्कार सोडलो जाल्यार ह्या पयल्या भोवजन मुखेलमंत्र्या सारको बहुजन हिताय-बहुजन सुखाय असो कारभार परतून कोणें केलोना हें आतां ताचे विरोधकय मानपाक लागल्यात. दुसरो मुखेलमंत्रीय भोवजनच आसलो. फाटल्या छापन्न (१९६३-२०१९) वर्सांच्या काळांत तेरा मुख्यमंत्र्यांनी विधानसभेचें नेतृत्व केलें. तातुंतले णव जाण भोवजन आसात. हे छापन्न वर्सांचे राजवटीक भोवजना कडल्यान चाळीस वर्सांचें नेतृत्व लाभलां. भोवजनेतरांनी फकत सोळाच वर्सां नेतृत्व केलां. लोकसभेंत आनी राज्यसभेंत गोंयचें प्रतिनिधित्व केल्ल्या चोवीस खासदारांतले बारा खासदार भोवजन आसात. केंद्रीय मंत्री जाल्ल्या चार गोंयकारां मदले दोन भोवजन आसात. पंचायत राज्याकय भोवजना कडल्यान व्हड प्रमाणांत नेतृत्व लाभलां. नगरपालिकांतय अशेंच प्रमाण आसा.

हे फाटभुंयेर, जेन्ना कोणय म्हणटा- ''गरज आसा ती भौसांतल्यान वयर सरिल्ल्या नेतृत्वाची. काय हेंय नेतृत्व भोवजनेत्तरां कडल्यानच येवचें म्हण (भौस) वाट पळयता.'' तेन्ना सत्य परिस्थितीचो विपर्यास जाता. थारावीक विशय आनी थारावीक कालखंड हांचो एकोडो संदर्भ घेवन भोवजनाचे नेतृत्व क्षमतेचेर प्रस्नचिन्न उबें करप जाता तें बरोबर न्हय. तशें करताना भोवजनी नेतृत्वाच्या एकंदर कारकिर्दीचें अवमुल्यन जातलें हाचें भान दवरपाची गरज आसा. भोवजन संबंधीत विशयां खातीर भोवजनाचें नेतृत्व आनी भोवजनेतर संबंधीत विशयां खातीर भोवजनेतर नेतृत्व अशे नेतृत्वाचे वांटे घालप बरोबर जायत? गोंय हें सगळ्यांचें. ताचो उज्वल फुडार ही सगळ्यांची जापसालदारकी. ते खातीर एकत्रीत नेतृत्व ही आयच्या काळाची गरज जातली.

संपर्क : 9822825503





# कोंकणी शिक्षण आनी गिन्यान निर्मिती

युगांक नायक

अखिल भारतीय कोंकणी परिषदेच्या स्थापना दिसा मडगांवां रवीन्द्र भवनांत 'कोंकणी शिक्षण परिस्थिती आनी नियोजन' ह्या विशयाचेर परिचर्चा जाली. कोंकणी शिक्षण के.जी. ते पी.जी. ह्या विशयाचेर उलयताना मुळावें, माध्यमीक, उच्च माध्यमीक, महाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ पांवड्यार कोंकणी शिकोवपी शिक्षकांनी आपलीं मतां मांडलीं. उपरांत ह्या विशयाचेर जाणकारांनीय आपलीं मतां उकतायलीं, पूण उक्ती चर्चा जावंक ना. परिसंवाद फोकस आनी मुद्यांक धरून जालो, देखून आयोजक आनी जाणकारांक परबी.

पूण एका म्हत्वाच्या विशयाचेर चर्चा जाली ना आनी ही म्हत्वाची गजाल कडेक काडून कोंकणी शिक्षणाचो विचार पूर्ण जावपाक शकना. हो लेख बरोवपाचें कारण म्हळ्यार कांय गजालींची दखल योग्य वेळार घेवपाक जाय, ना जाल्यार त्यो अदखलपात्र थारता आनी इतिहास नियाळटना सुट्यात. परिचर्चा घडयतना कोंकणी शिक्षणाचो आयाम साहित्य हाचे पुरतो मर्यादीत उरलो. कोंकणी शिक्षणाचें प्रायोजन फकत साहित्य आनी भाशेचें प्रबोधन आनी विश्लेशण न्हय. हाचे पेल्यान कोंकणी शिक्षणाचो प्रचार आनी प्रसार जावचो हो आयाम आमी सामकोच विसरून चल्ल्यात कांय किर्ते. परिचर्चे आदीं गोंय विद्यापीठाचे कुलगुरू प्राध्यापक वरूण साहानी उलयले. तांकां गोंय आनी कोंकणीचे बाबतींत विशेश मोग आनी आदर आसा. ते अंतराष्ट्रीय संबंध शास्त्राचे शास्त्रज्ञ, आंतरराष्ट्रीय राजकारणाचे प्राध्यापक. तांकां सत्ता, समाज आनी संस्कृताय हांच्या संबंदांचो दीर्घ अभ्यास आसा. हाचेच खातीर ते कोंकणी कडेन वेगळे नदरेंतल्यान पळयतात. २०१७ वर्सा जाल्ल्या चायना फोरमाच्या उक्तावणाक उलयतना ताणीं म्हळें आपूण त्या राज्याच्या विद्यापिठाचो कुलगुरू ज्या राज्याची राजभास कोंकणी, ही एका वेळार प्रशांत महासागराची भास आशिल्ली. ही भास साहसी आनी पराक्रमी भास. देखून ते किर्ते उलयतात तें आकलनांत येवप म्हत्वाचें आसता. ८ जुलय दिसा तांणी उलयतना म्हळें, भारतीय भासांनी समाजशास्त्र आनी विज्ञानाच्या विशयांचेर साहित्य निर्मणी जायना. चीनांत वा रशियेंत जे विज्ञानीक तयार जातात ते इंग्लीशींत बरोवचे पयलीं आपले थळावे भाशेंत पयलीं बरयतात. चड्शे भारतीय शास्त्रज्ञ भारतीय भास सोडून इंग्लीशींतल्यानूच आपले सोद प्रकाशीत करतात. देखून गोंय विद्यापिठांत जे कोण पी.एचडी. बरयतले, तांचो विशय आनी भास खंयचीय जावं तांच्या प्रबंधांची प्रस्तावना हेर भासां बरोबर कोंकणींत आसची पड्टली हाचेर विद्यापीठ विचार करता अशें ताणीं म्हळें.

प्राध्यापक साहनींचो हो मुद्दो खूब म्हत्वाचो आसा. भास, अस्मिताय, गिन्यान आनी सत्ता ह्यो एकामेकांक जोडून उरलेल्यो गजाली. ह्यो एकामेकाचेर अवलंबून आसता. सोद, मशीन आनी विज्ञान हीं जागतीक येवरोपी सत्तेचीं कारणां आशिल्लीं. आयज मेरेन स्पेनीश भास ही सगळ्यांत म्हत्वाची कारण आजूनय ओरीजीनल गिन्यान ते भाशेंत आसा. इंग्लीश भाशेचें आजूनय जागतीक पातळेचेर वर्चस्व आसा ताचें कारण तांणी तारवां घेवन दर्यो हुपीत वसाहती वसयल्यो. थंय प्रिंटींग प्रेस, स्कुलां, कॉलेजी, क्रिमीनल कोड त्यो संस्था रचल्यो जाची मुक्त समाजाक आनी लोकशाय घडोवपांत गरज आशिल्ली. म्हणून इंग्लीश भास ही आयज मेरेन आमच्या वेव्हारांत आनी शिक्षणांत वर्चस्वाच्या स्थानार आसा.

जे इंग्लीश भाशेंत आसा त्यो त्यो गजाली भारतीय भासांनी जावपाची गरज आसा. हातूंत सगळ्यांत महत्वाचें म्हळ्यार भारतीय भासांनी गिन्यानी तयार जावपाची गरज आसा. ते खातीर भाशेची शक्त वाड्टली, वेव्हार येतलो आनी ती भास बुद्धीमत्तेची भास जातली.

कोंकणी शिक्षणाचो विचार करतना हो आयाम नदरे आड जाता. कोंकणी अभ्यासक्रम म्हळ्यार भास, कला, भासशास्त्र आनी साहित्य हाचे पुरतो मर्यादीत न दवरतां सर्वांगीण जावपाची गरज आसा. कोंकणी भाशेंत गोंयचो इतिहास, समाज, अर्थवेवस्था, प्रशासन ह्या विशयांनी साहित्य तयार जावपाक जाय. हें सगळें भास वा साहित्य शिकपी विद्यार्थी करपाक शकना. त्या कामांत त्या विशयांचो अभ्यास आनी तालमींत घडलेलोच मनीस करपाक शकता. देखून कोंकणी शिक्षण म्हणटना ताचो उल्लेख कोंकणी आनी कोंकणीचो अभ्यास असो जावपाक जाय. हो विस्तार जावप काळाची गरज आसा.

थळाव्या विशयांचेर गिन्यान थळाव्या भासांनी कित्याक जावपाक

जाय. १९५० उपरांत दक्षीण अमेरीकी देशांचें प्रशासन कोलमव्ळे. अमेरीकेचो हस्तक्षेप आनी ताका लागून जावपी दीसपट्टे सत्ता बदल प्रशासनांक दिमयांनी सकयल उडयिल्ले. लॅटीन अमेरीका म्हणळ्यार अमेरीकेचें पोरसूं अशें म्हणटाले. जाल्यार हे राजकीय बादल कित्याक जातात, समाज असो कित्याक जाला ताचो सोद घेवपाक जाय अशें तांकां दिसलें. तेन्ना एक गजाल लक्षांत आयली ती, थळावो वांठार आनी प्रदेशाचे प्रवाह समजून घेवपाक तांचे कडेन थळावे सिद्धांत आनी थियरी ना. अमेरीकी आनी येवरोपी थियरींच्या आदाराचेर ते समाज समजता, जेन्ना अमेरीकेंत आनी येवरोपांत आसपी परिस्थिती परस थळावी समिकरणां वेगळीं आनी विपरीत आसात. देखून ७०च्या दसकां उपरांत थंयच्या अभ्यासकांनी नव्यो थियरी बांदपाचो यत्न केलो. ही पुराय प्रक्रिया थळावे भाशेंत जाली.

थळावे भाशेंत अभ्यास जाता तेन्ना ते भाशेंत बरोवप्याची नदर महत्वाची आसता. आजून मेरेन गोंयच्या इतिहासाची आर्थीक मोलावणी जाल्ली ना. गोंयचो इतिहास जो इंग्लीशींत आसा तो चडांत चड उखलापो आनी प्रशासकीय नदरेंतल्यान आसा. गोंयच्या श्रमजीवी आनी भौसाचे नदरेंतल्यान इतिहासाची मांडणी जाल्ली ना. कारण जे इंग्लीश भाशेंतल्या इतिहासकारांनी गोंयचो इतिहास बरयलो तांच्यो चडशो थियरी भारतीय समाजांतल्यो. भारतांत आशिल्ली वसाहत वेगळी, गोंयची वसाहत वेगळी. भारत मुक्ती चळवळींतल्यान मुक्त जालो, गोंय सैनीक हस्तक्षेपांतल्यान. ब्रिटीश भारतांत वेपारा खातीर आयले, चर्ची कडेन तांचो संबंध नाशिल्लो. पोर्तुगेज गोंयांत येतना खुरीस घेवन आयले. ब्रिटीश ही उद्देगीक शक्त आशिल्ली, उद्देगीक जिणेंत शाळा आसता, कामगार आसता आनी कामगाराचो श्रम मोलावपाक साबार समानतेच्यो विचारसरणीं तयार जातात. देखून हे प्रक्रियेंतल्यान भारतांत दलीत चळवळ उफेली आनी ताचें रुपांतर प्रतिकारान जालें. गोंयांत ना पुरोगामी शाळा जाल्यो, ना उद्देगाचें वातावरण आनी ना पुरोगामी विचार आनी प्रतिकार. ब्रिटीश वसाहत ही आर्विल्ली आशिल्ली जाल्यार पुर्तुगेज ही धार्मीक आनी मागास. देखून हे वसाहतींतल्यान तयार जाल्ले समाज हे एकामेका परस वेगळे आनी तांचो वेगळ्या थियरींतल्यान अभ्यास जावपाक जाय. हांगा महत्वाचें थारता ती थळाव्या भाशेंतल्यान गिन्यान निर्मीती. देखून कोंकणी शिक्षणाचो विचार करतना ह्या समाजशास्त्रांच्या गिन्यान शाखांचेर भर दिवपाक जाय.



अध्ययनांत एक विशय निवडून ताचेर खोल अभ्यास करून साबार तर्क मांडप, ती प्रक्रिया वर्सांची वर्सां चलपा ताका नीश (Niche) तयार करप अशें म्हणटा. पुर्तुगाल वसाहत सोंपून नवी वेवस्था व्यापली हे प्रक्रियेक म्हणटा डीकॉलनायझेशन. ही जागतीक प्रक्रिया आसा. गोंयची डीकॉलनायझेशन प्रक्रिया आयज कोंकणी अभ्यासक्रमाची नीश जावपाक जाय आशिल्ली. पूण ती आयज इंग्लीश अभ्यासक्रमाची नीश जाल्ली दिश्टी पड्टा. तशेंच अणकार शास्त्र ही कोंकणीची नीश जावपाक जाय आशिल्ली.

महाविद्यालयीन पांवड्यार सुमार साडे तीन हजार भुरगे कोंकणी विशय शिकतात. हातुंतले भुरगे कोंकणी सोडून बाकीच्या विशयांनी पदव्युत्तर अभ्यासक्रम घेता तांचेर विशेश लक्ष आसपाक जाय. तांचे खातीर साबार कोर्स निर्मूपाक जाय. आतां पी.एचडी अभ्यासाक मल्टीडीसीप्लीनरी आयाम आसपाक जाय हाची जतनाय विद्यापीठ घेता, हें कांय तेंपान बंदनकारक आसतलें, तेन्ना कोंकणी अभ्यासक्रमाची गत कितें जातली हाचो विचार करपाक जाय. साबार विशयांचें गिन्यान कोंकणी भाशेंतल्यान जावप ही काळाची गरज आसा.

जशें जग भर भाशा शाखांनी आपलो विस्तार केला तसो विस्तार कोंकणीचो जावचो. जे पद्दतींत जगभरांत इंग्लीश एन्ड एंग्लोफोनीक स्टडीज, पोर्तुगेज एन्ड लुजोफोनीक स्टडीज वा फ्रेंच एंड फ्रेंकोफोनीक स्टडी अशो गिन्यानशाखा निर्मिल्यात तसो कोंकणी आनी कोंकणी स्टडीज हाचो विस्तार जावपाची गरज आसा. तातूंत डीकॉलनायझेशन, डायस्पोरा, गोंयची पोलीटीकल इकॉनॉमी अशो नीश एरीया तयार जावपाची गरज आसा.

परिक्रमा नॉलेज टर्मीनस ही संस्था सुरू करतना आमचो एक मुखेल उद्देश आशिल्लो तो दर्जेदार हस्तक्षेप. ते खातीर परिक्रमाच्या दर एके कार्यावळींतल्यान लिखीत दस्तावेज तयार जाता. गोंय अभियांत्रिकी महाविद्यालय जेन्ना परिक्रमाच्या कार्यावळींनीं वांटेकार जाता तेन्ना ते कोंकणींतल्यान प्रबंध सादर करता, विज्ञान प्रबंध बरयतात. तांच्या महाविद्यालयांत कोंकणी न्हय तर भाशेची शाखा ना, ह्या भुरग्यांक कोंकणीचें माध्यम दिवपाची गरज आसा आनी तांचे कडल्यान कोंकणींत गिन्यान निर्मुवपाची गरज आसा. तशेंच परिक्रमांत आनी एक सर्त जाता ती म्हणळ्यार कोंकणी ब्लॉग. वर्ड प्रेस वापरून कोंकणी देवनागरी ब्लॉग तयार करपाचो. हे प्रक्रियेंतल्यान गोंयच्या साबार वाठारांतल्यान कोंकणी ब्लॉग तयार जाले. कोंकणी भाशेंतल्यान नवीन गिन्यान निर्मीती जावची हो ह्या संस्थेचो हांवेस.

*(पान २८ चेर)*



*सेवाग्रामांत बापूजी वांगडा काकासायब कालेलकर आनी कांय जाण.*

# माथा ऊंचा रहेगा!

गुरुनाथ केळेकार

गांधीजींचे सांगाती आचार्य काकासायब कालेलकर हांणी गोंयाक पुण्यभूंय हें बिरूद दिलां. तांणी गोंयकारांक पुरुशार्थीय म्हळां. तांणी अशें म्हणपा फाटल्यान कितें पूण कारण आसूंक जाय हाचेर हांव विचार करीत आसतां. मुक्ती उपरांत रोखडेच काकासायब गोंयां आयिल्ले. ते म्हगेर मडगांवां चार दीस राविल्ले तेन्ना तांकां हो प्रस्न करपाचें म्हाका येवजलें ना. ना रवीन्द्रबाबाक विचारूंक पावलों.

### म्हान मनशांचो सांगात

म्हान मनीस सामान्यांक अश्या उतरांनी मोठे करीत आसतात, अशें म्हाका एकेकदां दिसता. गांधीजींक जांणी लागींच्यान पळयले, तितल्यान तांच्या जिवितांत बदल जाल्लो दिसलो. जांकां गांधीजीं कडेन उलोवपाचें भाग्य फावो जालें, तितल्यान तांकां व्हड व्हड कामां करपाक तें भांडवल पुरो जालें. जे तांचे वांगडा कांय दीस, कांय म्हयने रावले ते तर आपल्या वावरान लोकाल्या मनांत सासणाचे उरले.

आतां रवीन्द्रबाबाचेंच पळोवया. जिविताचो अर्थ सोदीत आनी जो अर्थ समजला तो आपले करणेंत हाडीत रवीन्द्रबाब शेवटाक गांधीजींचे सांगाती काकासायबां कडेन वर्धा पावले. रवीन्द्रबाब गांधीजी सरीं पावले नात. पूण काकासायबां सरीं चार वर्सां तांचे लेखनीक म्हण रावले आनी तांच्या परीसस्पर्शान रवीन्द्रबाबांचें भांगर जालें. हाचो अर्थ असो न्हय की रवीन्द्रबाबां कडेन मुळांत कांय नाशिल्लें. कितें पूण आशिल्लेंच, सोद चलतालो आनी सोदतल्याक मेळटा ह्या न्यायान रवीन्द्रबाबांक सोदताले तें मेळ्ळें आनी आमकां रवीन्द्रबाब मेळ्ळे आनी आमच्या खूब जाणांच्या जिविताक अर्थ प्राप्त जालो.

हेंय चंद्रकांतबाब केणी हांच्या संदर्भांत म्हणूं येता. चंद्रकांत रवीन्द्रबाबा उपरांत काकासायबां वरीं दिल्ली कांय वर्सां उरले. चंद्रकांतान गोंयां खातीर जो वावर केला तो विसरपा सारको न्हय. रवीन्द्रबाब तर म्हाका म्हणी,'चंद्रकांत म्हणून गोंय वेगळें दवरुपाची चळवळ, कोंकणीची चळवळ इतली फुडें वचपाक पावली.' चंद्रकांताचो आदार मेळिल्ल्यान आपणाक वावरूंक बळ मेळ्ळें, अशें रवीन्द्रबाब सांगी.

गांधीजींनी जांकां आपणाले सांगाती म्हण आपणायले ते केदे मोठे मनीस जावन गेले तें आमी जाणात. काकासायब कालेलकर हे तांतले एक. गांधीजी तांका भाशा, साहित्य आनी संस्कृती संबंदान विचारताले. गांधीजींक साहित्य वाचूंक वेळ नासतालो. ते काकासायबांचो आधार घेताले.

### काकासायबांक जाल्लो दिश्टावो

अश्या ह्या काकासायबांनी गोंयांक पुण्यभूंय आनी गोंयकारांक

पुरुशार्थी म्हणलें हाचे फाटल्यान कितें पूण कारण आसूंक जाय अशें म्हाका दिसत आयलां हें हांवें वयर म्हणलांच.

म्हाका मागीर दिसलें, गोंयकारांत जें कांय अपरूप गूण आसात तांचो काकासायबांक दिश्टावो जाल्लो आसूंक जाय. ही गजाल आयची कालची न्हय. काकासायब आनी गोंयकार हांचो संबंद १९४० वर्सा पयलींचो. म्हणजे गोंय मुक्त जावचे वीस वर्सां पयलींचो. शणै गोंयबाब १९३०-४० ह्या काळांत गोंयचो सोद घेताले. त्याच काळांत काकासायबांचेंय लक्ष गोंयां कडेन गेल्ले आसूंक जाय.

तांकां अशें गोंयकारांत कितें दिसलें काय की-तांणी गोंयाक पुण्यभूंय म्हणचें? निसर्गाक लागून एका प्रदेशाक पुण्यभूंय म्हणूं येत काय? ना. चडांत चड आमच्या बाकीबाबां भशेन त्या प्रदेशाचे सोबितायेची तोखणाय करूंक जायत! पुण्यभूंय हें बिरूद निसर्गान न्हय तर गोंयच्या मनशांक लागून गोंयाक फावो जालां. मनशांक लागून म्हणल्यार तांच्या मनीसपणाक लागून हें बिरूद काकासायबांनी गोंयकारांक दिलें अशा निर्णयार हांव पावलों.

परिणामीं, हे गूण सोदपाच्या मार्गाक हांव लागलों तेन्ना पयलीं म्हाका मेळ्ळी ती गोंयकारांची सचोटी. सचोटी म्हणल्यार कितें? एके अणभवलेले घडणुके संबंदान सांगले बगर म्हज्यान रावं नज.

मडगांवच्या लोहिया मैदाना कडेन आमचें स्वातंत्र्य सैनिकांचें ऑफीस सुरू करून पंचविशेक वर्सां जाल्यांत आसतालीं. थंय सावन उल्याचे वाटेर एका शोरुमाचे भायले सुवातेर बसतल्या भाडेलांचो आनी आमचो संबंद आयलो. ऑफिसाची सफाय वा कितेंय धाडपाच्या हाडपाच्या कामाक आमी तांकां आपोवंक लागले. तशी तांची वळख वाडूंक लागली.

### सचोटी हो नीज गोंयकाराचो गूण

भाडेल हो प्राणी मुळांत ल्हानविकायेन जियेवपी, उर्मट न्हय. अहिंसक. भाडेल केन्नाच कोणा कडेन झगडलें ना. तें फावटीक चार आर्णे घेतालें तेन्ना सावन हांव ताका वळखतां. हीं भाडेलां पयलीं मडगांव शार सांबाळटालीं अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना. मडगांवच्या रेल्वे स्टेशनार तीं वावुरतालीं. येत्या-वेत्याक 'बाब आयलो? बाब पयस वता?' म्हणून तीं पाचारतालीं. हाडिल्लें सामान तांचे कडेन दिलें आनी पत्तो बरयलो चिटारो दिलो की तांणी तें सामान ठाण्यार पावयलेंच. तीच गत त्या काळच्या मडगांवच्या बाजाराची. सगळे बाजारकार तांचेर आपले मांड वा पसरे उकते पातयेवन घरा जेवंक वताले आनी दनपारां फाट तेंकोवन जातकूच सांजचे चारांक आपल्या पसऱ्यार येताले. हो इतिहास जाला.

आनी बाजारकार समाजान जशी तांचे कडल्यान सेवा घेतल्या तशें तांकां दिलांय बी. मडगांवांत २००२त आमी भाडेलांचो भोवमान केल्लो तेन्ना मडगांवकारांनी हांसऱ्या तोंडांन हात सदळ केले. हें मधुबाब मोर्डेकार हांचो उगडास काडून सांगले बगर रावं नज. सुमार २५० भाडेलांक आमी स्टेनलेस स्टिलाचे कीचनवेअर दिल्ल्याची म्हाका याद जाता. उपरांत दिगंबर कामत मुखेलमंत्री आसतना सरकारान ताका पंचवीस पंचवीस हजार रुपये दिले तेन्ना ताचो आंकडो १४० चेर देंविल्लो. आयज मडगांवां १५/२० भाडेलां आसतलीं.

****

आज भाडेलाचो दिसवडो ५००/- रुपया जाला. हांतुंतलें एक भाडेल दर पंदरा दिसांनी एक फावट आमच्या रायच्या नेहरु सेंटराची सफाय आनी हेर टापटीप करूंक येतालें. आतां तें बरें ना. त्या दिसा ताका हांवें कामाचे पासत पांचश्यांची नोट दिली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं आदल्या दिसाचो हिशेब करताना म्हाका बरीच रक्कम उणी जाल्ली दिसली. खंय खरेदी केल्ली काय? तिसऱ्या दिसा सकाळीं ८ वरांचेर घराची बेल वाजली. पळयल्यार दारांत भाडेल बॉबी. "बाब चुकून तुंवें म्हाका पांचशीं समजून दोन हजार दिले" म्हणून ताणें दिल्ली नोट फुडें काडली.

हें आतां भाडेल. गावडा समाजाचें. पिरायेन थकिल्लें. नीज गोंयकार म्हणटात तें. ताका पेल्याच्या पयश्यांची आस ना. भीक मागतलें पूण चोरचें ना. सचोटी सोडचें ना हें ताचें ब्रीद.

गोंयकारांच्या आंगांत हो गूण मुळा सावन आसा. म्हाका दिसता लेखक लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी गोंयकारांचे सचोटीचेर काम दानतीचेर एक कथा बरोवन अमेरिकन पुरस्कार लेगीत जोडला.

गोंय पुण्यभूंय म्हणपा फाटल्यान मनीसपणाचो हो पयलो गूण गोंयकारांत आदीं सावन वसतालो तो हिसपांत धरला आसूंक जाय.

### शेजारधर्माक जागपी गोंयकार

गोंयकारांचो आनीक एक गूण. सगळो देश गोंयकारांक तोखेंता ताच्या सेक्यूलर वर्तना खातीर. देशांत सगळे कडेन न्हय जालें तरी खंय खंय धर्मभेद आनी जातीभेदांक लागून झगडीं, मारामाऱ्यो जायत आसतात. महात्मा गांधींक मारले ते ह्याच प्रवृत्तींनी. उपरांत धर्मा भितरलीं झगडीं कांय काळ मना जाल्ल्याचें दिसतालें. तांणी परत तकली वयर काडूंक आरंभ केला. भायल्या लोकाक गोंयांत जी भावकी चलता ती अजाप करपा सारकी तशी तोखणायेची दिसता. हांव हाका सेक्युलारीझम म्हणचे बदला शेजारधर्म म्हणप पसंत करतां. पुर्तुगेज आयले उपरांत गोंयकारांच्या नशिबांत खूब वायट काळ आयलो. पुर्तुगेजांनी कांय गोंयकारांक हिंदूंचे क्रिस्तांव केले तो काळ केन्ना गेला. वर्सां जावन गेलीं. हे दोनूय समाज, हिंदू आनी क्रिस्तांव शेजारी जावन जियेतात आनी शेजारधर्माक पाळो दितात. शेजारी बरो ना म्हण कळना फुडें ताका आदार दिवंक शेजारी धांवलोच. तेच भाशेन सणा-परबे निमतान एकल्यागेर गोडशें केल्यार शेजाऱ्यागेर तें पावताच. मनीसपणाच्या ह्या दुर्लभ गुणान गोंय ही पुण्यभूंय केल्या जावंक जाय.

हे लायनीर चिंतताना अकस्मात म्हाका दामू येवजलो. दामू म्हणल्यार दामोदर. मडगांवांत शेंकड्यांनी दामोदर आसात. तांकां दामू नांवान पाचारतात. एका दामूक तर मंत्रीपद एका आंगळान चुकलें.

म्हजे मुखार उबो रावलो तो दामू पायलट. ताचे मोटारसायकलीचेर

बसून हांव जग भोंवलां. दामू शांत, नम्र. लोहिया मैदाना वयल्या मोटार-सायकल टॅक्सी स्टॅण्डार तो उबो दिसलो की हांव तांचे सरीं वतालों. खंय वता तें मोटार सायकलीचेर बसले उपरांत सांगप जातालें.

तो गोंय मुक्ती उपरांतचो काळ. तेन्ना गरिबी जाणवताली. बहुजनसमाज जाका म्हणटात तो आवाज काडूंक लागिल्लो.

### गोंयांतले मोटार-सायकल पायलट

तेन्नाच्या सरकारान अचकीत पायलट स्कीम जाहीर केली. पुर्तुगेजां काळांत कांय जाण मोटार-सायकल भाडीं मारतालें. पूण आतां सरकारान हो वेवसाय अधिकृत केले. तेन्ना मोटार-सायकल चार साडेचार हजारांक मेळटाली. सरकारान हो वेवसाय करूंक सोदतल्याक सबसिडी दिवची केली आनी शेंकड्यांनी तरणाटे फुडें सरले. तांकां पायलट नांव मेळ्ळें. पायलट हरशीं विमान चलयतात. पूण गोंय अजीब! हांगा मोटार-सायकल भाडें मारपी पायलट जालो.

हो वेवसाय गोंय भर इतलो पातळ्ळो म्हणल्यार गांवगांवच्या बाजारांचेर पायलट राजदूत घेवन दिसूंक लागले.

ह्या मोटार-सायकलींचीं भाडीं मारपाच्या वेवसायान हजारांनी गोंयकारांक जोडपाचो एक व्याप दिलो. हो वेवसाय फकत गोंयांतूच चलता. बेळगांव, सावंतवाडी, पुणे, मुंबय, हुबळी, दिल्ली देशांत खंयच्याच शारांत पायलट ना. थंय जर हो वेवसाय सुरू जाल्लो जाल्यार लाखांनी लोकांची बेकारी नश्ट जावपाची. पूण हो वेवसाय गोंयांतूच चलता आनी तगला हाचें कारण दामू सारके पायलट.

ह्या पायलटांक सब्सिडी सोडल्यार कसल्योच सुविधा फावो जाल्ल्याचें आयकलें ना. पावस, वत तशें शिंयांत भाडीं मारपाची सुटी ना. दीस रात भाडीं मार आनी दिसवडो सोडय. पायलटान टॅक्सीवाल्यां भाशेन 'हजारा'चो आंकडो हुपलो ना. त्या काळा दिसाक शंबर रुपये जातले काय कितें हाची खात्री नासताली. पूण पायलटान तक्रार केली ना.

आज गोंयकार पायलट पातळ जावंक लागल्यात. तरणे पिरायेर ते पायलट जाल्ले. आज तांचे भुरगे तांकां विसव घेयात म्हण सांगूंक लागल्यात. आतां ताचे भुरगे शिकल्यात. कोण वेपार करतात, कोण डॉक्टर तर कोण आदवोगाद जाल्यात, कोण शिक्षक जाल्यात, कोण कॉन्ट्रेक्टर तर कोण बिल्डर लेगीत जाल्यात. हांकां आपल्या वडिलांनी आतां हो वेवसाय केल्लो नाका. हो वेवसाय आतां गोंयांत स्थायिक जाल्ल्या दुसऱ्या समाजाच्या हातांत गेला.

### पायलटान केन्नाच अॅक्सिडेंट केलो ना; विनयभंगूय केलो ना

पूण आमच्या दामू पायलटान जो विस्वास जोडलो तो हे नवे पायलट जोडटले कांय कितें हें मुखार कळपाचें.

गोंयकार पायलट म्हळ्यार विस्वास. हो विस्वास ताचे कोंकणींतल्यान व्यक्त जालो. कोणाय चलयेन वा तरणे वा जाणटे बायलेन येवचें आनी दामूचे मोटार सायकलीचेर भाडें कितलें म्हण विचारीनासतना बसचें. दामू आपणाक घरा कडेन पावयतलो हो ठाम विस्वास.

पन्नास वर्सां जालीं. पायलटान एखाद्रे बायल मनशेचो विनयभंग केलो, तिका हात लायलो अशें आयकलें ना. इतलेंच न्हय तर एका लेगीत पायलटान गाडी चलयतना अॅक्सीडेंट केलो अशें जालें ना.

हें अशें कशें जालें मुंबय दिल्लीक अश्या विश्वासाचेर भाडें मारपी मोटार-सायकली धांवप शक्यूच नासलें. गोंयांतूच हें शक्य जालें हाचें कारण दामू पायलट. विस्वासू. कोंकणी गोंयकार.

ह्या पायलटान गोंयची पत राखली. पुण्यभूंय गोंयान पायलटाक ही तांक दिली काय पायलटान गोंयाक पुण्यभूंय केली हें जाचें ताणें थारावपाचें.

****

तांतीं पयलीं काय कोंबी पयली ह्या प्रस्नाक जाप मेळटा. तशें पुण्यभूंय पयलें काय भाडेल पयलें पायलट पयलो, शेजारधर्म पयलो हाका जाप मेळची ना. पूण इतलें खरें की गोंयचें हें पुण्यभूंयपण हो गोंयचो 'लोगो' आनी सदांच तो तसो उरचो म्हण आमी वावरूंक जाय.

ह्या लेखाक 'माथा ऊंचा रहेगा' हो माथाळो दिला. कित्याक? एक खबर सांगतां.

### माथा ऊंचा रहेगा

देशांत स्वातंत्र्या पासतची चळवळ चलताली. तिचे जवाहरलाल नेहरु हिरो आशिल्ले. एक दीस सकाळीं आपले गाडयेन नेहरू कॉंग्रेस कचेरींत वताले. ते गाडयेचो हारसो केन्नाच वयर काडी नासले. वाटेर एक चौक आयलो. गाडी थांबोवची पडली.

दोग तरणाटे उलय-उलयत वाटेन वताले. कसले तरी मोहिमेर वचपा सारखी तांची चाल आशिल्ली. अचकीत तांची नदर पंडीत नेहरूंचे गाडयेर गेली. नेहरू आयते मेळ्ळे म्हण ते उमेदीन तांचे गाडये सरीं धांवले आनी तांणी तांचे गाडयेच्या जनेला कडेन वचून 'माथा ऊंचा रहेगा' म्हणलें. अजाप जावन नेहरू हांसले.

हें खंय तरी पंडितजीन बरोवन दवरलां काय दिसता. नेहरू तांकां वळखले. तांतलो एकलो आसलो भगतसिंग आनी दुसरो ताचो दोस्त. देशा पासत ते पंडितजी इतलेच पछाडलेले.

'माथा ऊंचा रहेगा' हाका अर्थ आसा. आमची तकली जितकी नीट उबी तितलें गोंयचे तशें देशाचें नांव ऊंच.

२००७ आनी २००८ वर्सा कांय कॉलेज विद्यार्थ्यांक घेवन कवी रमेश आनी हांव दिल्लीक गेल्ले. धा बारा विचारवंतां कडेन तांची भेट घडोवन हाडिल्ली. तांतूत एक डॉक्टर करणसिंग आशिल्ले. गोंयचे विद्यार्थी म्हणना फुडें तांणी 'गोंयांत हें कितें चल्लां?' असो प्रस्न करून 'तुमी विद्यार्थ्यांनी सस्त रावंक फावना' म्हणलें. तेन्ना गोंयांत कांय वायट घडणुको घडटाल्यो ज्यो दिल्लीच्या पेपरांचेर ते वाचताले.

त्या विद्यार्थ्यांत आमचें अन्वेशा सिंगबाळ आशिल्लें. ताणें डॉ. करणसिंग हांकां येवकार दिल्लो आनी भेटवणूय दिल्ली. तें आपलो बरोच वेळ समाजीक जिविताक दिता. गोंय पुण्यभूंय आसची अशी जायत्या जाणांची इत्सा आसतली. तांकां यश मेळूं!

संपर्क: 9420896125



# शणै गोंयबाब

## विचारांनी आनी मतांनी काळा परस कितलेशेच फुडें

उदय भेंब्रे

हिंसा केन्नाच आनी खंयचेच परिस्थितींत करची न्हय अशें शणै गोंयबाब मानताले अशें दिसना. हिंसा करपाचो हावेस तांणी विद्यार्थ्यांच्या मुखांतल्यान उकतायता. पूण ती हिंसा दुश्टांचे आड करून ते करतात तें वायट आडावपा खातीर करपाची आसता हें ध्यानांत घेतकूच शणै गोंयबाब हांची भुमिका कळून येता. हो हिंसा करपाचो आनी दुस्मान कोणाक लेखपाचो हो विशय 'भुरग्यांलो इश्ट' ह्या पुस्तकांतल्या 'हांव कितें करतलों?' ह्या पाठांतल्या पांचव्या उताऱ्यांत येता. तो उतारो असो:

> ''हांव झगडटलों आनी झुजतलों. हांव तरवार वावुड्टलों. हांव तुबकां आनी नाळीं पेटयतलों. हांव ठो-धुडूम करतलों. हांव विमानांनी उडटलों. हांव दारुगुळ्यांचो पावस घालतलों. हांव दुस्मानाच्या हड्ड्यार बसतलों. ताका चेंचतलों. गुड्डायतलों आनी माड्डायतलों. तो गरीब दुबळ्यांक आपल्या बळग्याचो नसतोच हावको दाखयता, तांकां भेश्टायता, तळमळायता आनी वळवळायता. त्या मस्त्याची मस्ती हांव जिरयतलों. गरीब दुबळ्यांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान. तो संवसाराचो दुस्मान. ताका ना करून हांव संवसाराक हुस्क्या-मेकळो करतलों.''

### निर्धाराचें रूप

ह्या उताऱ्यांतल्या निर्धाराचें थोडें भितर रूप आसा तें अशें -

- हांव झूज मांडटलों, तरवार वावुडटलों, नाळी पेटयतलों आनी विमानांतल्यान दारुगुळ्यांचो पावस घालतलों.
- हांव दुस्मानाच्या हड्ड्यार बसतलों, ताका चेंचतलों, गुड्डायतलों आनी माड्डायतलों.
- तो गरीब दुबळ्यांक भेश्टायता, तळमळायता आनी वळवळायता.
- गरीब दुबळ्यांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान. तो संवसाराचो दुस्मान.
- त्या मस्त्याची मस्ती हांव जिरयतलों. ताका ना करून हांव संवसाराक हुस्क्या-मेकळो करतलों.

ह्या पांचव्या उताऱ्यांतलीं पयलीं णव वाक्यां वाचून कोणूय थांबलो जाल्यार ताका शणै गोंयबाब हे हिंसावादी आनी झुजाची खुमखुमी आशिल्ले अशे दिसुंयेतात. पूण दुस्मान कोण आनी कोणाचो तें कळटकूच तांची हिंसा ही हिंसे खातीर ना हें होलमता. एक खरें की एका पोल्यार थापट मारलें जाल्यार दुसरो पोलो फुडें करचो हाका ते अहिंसा मानिनात. जो अन्याय करता, शोशण करता, दुबळ्यांक भेश्टायता वा वळवळायता ताका शणै गोंयबाब दुस्मान लेखतात आनी त्या दुस्मानाक ना-नपश्यात करपाक विमानांतल्यान बॉम्बांचो पावस घालपाकूय फाटीं रावनात. ते आपणाक गरीब दुबळ्यां मदलो वा तांचो इश्ट मानतात आनी तांचेर अन्याय जाता तो थांबोवपाक हिंसेचो मार्ग आपणावप ही चूक अशें मानिनात.

### दुस्मान कोण?

मागीर एक प्रस्न उपरासता: शणै गोंयबाब हांणी नदरे मुखार दवरला तो दुस्मान कोण? तें स्पश्टपणान सांगूंक नाशिल्ल्यान तर्काच्या आदारान जाप सोदची पडटा. दुस्माना विशीं ते विद्यार्थ्यांच्या तोंडांतल्यान सांगतात - 'तो गरीब दुबळ्यांक आपल्या बळग्याचो नसतोच हावको दाखयता, तांकां भेश्टायता, तळमळायता आनी वळवळायता.' म्हणटकूच दुस्मानाक बळगें आसा. हें बळगें राजकी आसुंयेता वा

अर्थीक आसुंयेता. दुस्मानाची वागणूक दुश्टपणाची, मस्तेपणाची आनी शोशणाची आशिल्ल्यान तो दुश्ट सम्राट, मस्तो राज्यकर्तो वा शोशण करून गिरेस्त जाल्लो एखाद्रो भाटकार, उद्देजक वा राजकारणी आसूंयेता. आयच्या क्रिमिनल कायद्यांत चडांत चड कडक ख्यास्त म्हळ्यार फांशी. दुसऱ्या अर्थान, गुन्यांवकाराचो जीव घेवप. शणै गोंयबाब दिवंक सोदता ती ख्यास्त तेच तरेची, म्हणल्यार, दुस्मानाक ना करपाची. ते खातीर हिंसा करपाक ते मात्तूय अनमननात.

ह्या उताऱ्यांतलें, सगल्यांत म्हत्वाचें वाक्य हें:

''गरीब दुबळ्यांचो जो दुस्मान तो म्हजो दुस्मान.
तो संवसाराचो दुस्मान.''

शणै गोंयबाब स्वताक गरीब-दुबळ्यां मदले मानतात. देखून तांचो दुस्मान तो आपलो दुस्मान म्हणटात. पूण तितल्याचेर ते रावनात. मस्ती, शोशण वा अन्याय करपी आसता ताका ते संवसाराचो दुस्मान मानतात आनी ताका ना करून संवसाराक हुस्क्या-मेकळो करपाचो निर्धार उकतायतात. हाचे वयल्यान निश्कर्श काडूंक जाता तो असो की अर्थीक, राजकी वा हेर कसलेय सत्तेचो मद चडून कोणेंय केल्ली मस्ती, अन्याय, शोशण हें सगलें बंद जावंक जाय हो शणै गोंयबाब हांचो हावेस आसलो आनी तशें केलें बगर संवसार हुस्क्या-मेकळो जावंचो ना असो तांचो विस्वास आसलो. गरीब-दुबळ्यांचो दुस्मान हो संवसाराचो दुस्मान कसो? बळगें आशिल्लीं मनशां गरीब-दुबळ्यांचें शोशण करूंक लागलीं आनी तांचेर अन्याय करूंक लागलीं जाल्यार संघर्श जातलो आनी आकांत मात्तलो. त्या आकांताक लागून संवसारांतलीं सस्तताय ना जावन सगल्याकूच भिरांत निर्माण जातली हे खातीर तीं संवसाराचीं दुस्मान थारतात. शणै गोंयबाब असल्या दुस्मानांक इल्लीय दया-माया दाखोवंक तयार नात.

झगडें वा झूज हें थोड्या मनशां मदीं जावं येता. तलवारी वापरून केल्लें झुजूय दोन वा चड मनशां मदीं जावंयेता. पूण विमानांतल्यान दारुगुळ्याचो (बाँबांचो) पावस घालून जाता तें मोटें झूज वा मोठ्या झुजांतली कारवाय आसता. शोशण आनी अन्याय ना करपाक शणै गोंयबाब तसलें झूज मांडूंक तयार आसात. हाचे वयल्यान गरीब-दुबळ्यांच्या हिता विशींची भावना कितली खर आसली, तांच्या दुस्मानां विशीं कितलो राग आसलो आनी त्या दुस्मानांक ना-नपश्यात करपाचो किंवाटो तांच्या काळजांत कितलो खतखत्तालो हाचो अदमास येता. संवसारांत असल्या संघर्शां संबंदान जांणी क्रांती केल्या तांच्याय मनांतलो राग आनी किंवाटो असोच खतखत्तालो.

## अंत्राळांत भोंवडी

पाठांतलो सवो आनी निमणो उतारो शणै गोंयबाब हांच्या द्रश्टेपणाची उपाट गवाय दिता, फुडार पारखुपाचें तांचें वैचारीक बळ ह्या उताऱ्यांत स्पश्ट दिसता. हो उतारो असो आसा:

''म्हाका कितें कितें करचें शें दिसता. म्हाका सुकण्या भाशेन उडचें शें दिसता. तें माथ्या वयलें उंच मळब आनी तातूंत मोतयां वरी ओतिल्लीं तीं नक्षत्रां पळोवन म्हजो जीव मिडमिडटा. म्हाका तीं बचके मारून पुंजावचीं शीं दिसतात. हांव जाण्टो जातकूच ल्हवपीक पांखाटे लायतलों आनी घोणी भाशेन उडटलों. हांव ऊंच ऊंच वेतलों. हांव सुर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रावळी रांगशितलों. खंय कितें आसा तें पळेतलों. हांव थंय कोंकण्यांची वसणूक करतलों आनी सगळें ब्रह्मांडभर कोंकणी संस्कृतायेची घुडी उबारतलों. हांव सगळ्या ब्रह्मांडाक कोंकणी भास शिकयतलों आनी सगळ्या संवसाराचें कोंकण करतलों.''

ह्या उताऱ्यांतल्या हावेसाचे तीन वांटे करूंक जातात. ते अशे:

- म्हाका कितें कितें करचें शें दिसता. म्हाका सुकण्या भाशेन उडचें शें दिसता.
- हांव जाण्टो जातकूच ल्हवपीक पांखाटे लायतलों आनी घोणी भाशेन उडटलों. हांव ऊंच ऊंच वेतलों. हांव सुर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रावळी रांगशितलों. खंय कितें आसा तें पळेतलों.
- हांव थंय कोंकण्यांची वसणूक करतलों आनी सगळें ब्रह्मांडभर कोंकणी संस्कृतायेची घुडी उबारतलों. हांव सगळ्या ब्रह्मांडाक कोंकणी भास शिकयतलों आनी सगळ्या संवसाराचें कोंकण करतलों.

पयल्या वांट्यांत शणै गोंयबाब हांच्या पाठांतलो विद्यार्थी आपल्या मनांतले हुटहुटे उकतायता. ताका नवें आनी वेगळें अशें खूब शें करीन दिसता. भुरग्यांच्या मनांत अशें तरेच्यो इत्सा वा महत्वाकांक्षा जाग्यो जावप हें सभावीक. पूण पाठांतल्या भुरग्याक करीन दिसता तें सादें वा सामान्य न्हय. ताका दिव्य अशें कितेंय करचें शें दिसता. ताका सुकण्या भशेन उडचें शें दिसता. मुखार ८० वर्सां फाटल्या भुरग्याची केदी ही महत्वाकांक्षा! भुरग्यांनी अशे तरेच्यो महत्वाकांक्षा मनांत केळोवन त्यो सुफळ करपाक वावुरचें अशें शणै गोंयबाब हांचीं उतरां सुचयतात अशें म्हणलें जाल्यार चुकतलें अशें दिसना.

## अजापाचें द्रश्टेपण

दुसऱ्या वांट्यांत शणै गोंयबाब हांच्या द्रश्टेपणाचें स्पश्ट दर्शन घडटा. उताऱ्यांतलीं चार वाक्यां कवी-कल्पनांनी भरिल्लीं आसात आनी तीं हे बरपावळीक गद्यकाव्याचें रूप दितात. वाक्यां अशीं आसात:

- ''ते माथ्या वयलें ऊंच मळब आनी तातूंत मोतयां वरी ओतिल्लीं तीं नक्षत्रां पळोवन म्हजो जीव मिडमिडटा.''
- ''म्हाका तीं बचके मारून पुंजावचीं शीं दिसतात.''
- ''हांव जाण्टो जातकूच ल्हवपीक पांखाटे लायतलों आनी घोणी भाशेन उडटलों.''
- ''हांव ऊंच ऊंच वेतलों.''

पांखाटे लावन घोणी भाशेन उडपाचो हावेस १९४० वर्साच्या सुमाराक बरयल्ल्या पाठांत कसो, असो एक प्रस्न उपरासता. एक तर्क असो: पाठांतली भास ही भुरग्याची. ते पिरायेर ताका विज्ञानीक प्रयोगांची खबर ना. देखून पांखाटे लावन उडपाची कल्पना. दुसरो तर्क: राइट भावांनी उडपी विमान तयार करचे आदीं एक-दोग जाणांनी पांखाटे लावन उडपाचो यत्न केल्लो (तो निर्फळ जालो ही गजाल वेगळी). तो यत्न नदरे मुखार दवरून पांखाट्यांची कल्पना पाठांत हाडल्या.

हरशीं, शणै गोंयबाब हांच्या जिवीत काळांत रॉकेट तयार करपाचे आनी तें वयर धाडपाचे प्रयोग सुरू जाल्ले; पूण त्या काळांत रॉकेट अंत्राळांत धाडूंक नाशिल्लें. फुडें विज्ञान आनी तंत्रगिन्यान हांची

उदरगत जाली ती अशी:

- १९५७ वर्सा रशियेन स्पुट्नीक हो उपग्रह अंत्राळांत धाडलो. तो मनशान अंत्राळांत धाडिल्लो पयलो उपग्रह.
- १९६१ वर्सा रशियेच्याच युरी गागारीन ह्या अंत्राळ यात्रीन अंत्राळांत अंत्राळ यानांतल्यान भोंवडी केली. ती मनशाची अंत्राळांतली पयली भोंवडी.
- १९६३ वर्सा व्हालेन्तीना तेरेश्कोव्हा ही रशियन अंत्राळ यात्री अंत्राळांत भोंवडी करून आयली. अशी भोंवडी करून येवपी ती पयली अस्तुरी.
- १९६९ वर्सा अमेरिकेचो अंत्राळ यात्री नील आर्मस्ट्राँग हो चंद्राचेर देंवलो. चंद्राचेर पावल दवरपी हो पयलो मनीस.
- १९६९ वर्साच अंत्राळांत 'सोयूज स्पेस स्टेशन' सुरू जालें. मनशाचो अशे तरेचो हो पयलो पराक्रम.

मुजरत मतींत घेवपा सारकी गजाल म्हणल्यार शणै गोंयबाब १९४६ वर्सा संवसाराक अंतरले आनी अंत्राळांतल्यो वयर सांगल्यात त्यो घडणुको तांच्या मरणाच्या ११ वर्सां उपरांत आनी 'हांव कितें करतलों?' हो पाठ बरयतकूच १६-१७ वर्सांनी एक एक करून घडत गेल्यो. आज मनीस ब्रह्मांडाचो सोद घेवपाच्या यत्नांत आनिकूय फुडें गेला. शणै गोंयबाब हांचें द्रश्टेपण तें हें. रॅकेट अंत्राळांत पावचे आदींच, ब्रह्मांडाचो सोद घेवपाक सुर्यावळी, गिरावळी आनी नक्षत्रांवळी हांची भोंवडी करपाचो मनशाचो हावेस तांणी पारखिल्लो आनी तो एका कोंकणी विद्यार्थ्यांच्या तोंडांतल्यान उकतायिल्लो. रशियन आनी अमेरिकन अंत्राळयात्रींनी जे पराक्रम मागीर केले ते कोंकणी मनशा कडल्यान जावंचे अशीय इत्सा तांच्या अंतर्मनांत आशिल्ली जावंये असो तर्क करप अतितायेचें जावंचें ना.

### कोंकणी अस्मितायेचो अभिमान

तिसऱ्या वांट्यांत नदरेंत भरता तो शणै गोंयबाब हांचो कोंकण, कोंकणी भास आनी जें जें कोंकणी ताचे ताचे विशींचो अभिमान. ब्रह्मांडांतले भोंवडे वरवीं कितेंय धतरीर हाडपाची खबर ते निखालस करिनात. तांकां आयात करपाचो हावेस ना; महत्वाकांक्षा आसा ती निर्गत करपाची, कोंकणीपण ब्रह्मांडांत पातळावपाची. ब्रह्मांडांतलें कितें-कितें हाडून कोंकण सोबोवपाची न्हय; तर अख्ख्या ब्रह्मांडाचें कोंकण करपाची, थंय कोंकणी संस्कृतायेची घुडी उबारपाची. सगळी पृथ्वी जिखूंक भायर सरिल्ल्या पराक्रमी अलेक्झांडराच्या हावेसा परस शणै गोंयबाब हांच्या विद्यार्थ्याचो हावेस कितल्याश्याच पटींनी मोटो आनी ऊंच.

कोंकण आनी कोंकणी हांचे विशींचो शणै गोंयबाब हांचो हो अभिमान कांय जाणांक अती दिसूं येता. पूण तो अभिमान आनी आयची आमची दशा हांची तुळा केली जाल्यार न्यूनगंडाचेर तें योग्य वखद आसलें अशें म्हणूंक जाय. आज आमी न्यूनगंडान इतले पोखरिल्ले आसात की कलाकार, व्याख्याते, कारागीर आमकां 'आयात' करपाची वान्सा जाता. एका काळार आमी इतली निर्गत करताले की गोंयाक 'कलेची खण' म्हणटाले. आज कसली निर्गत करतात आमी? कोंकणी संस्कृतायेची घुडी आमच्यांनी गोंयां भायल्या भारतांत उबारूंक जायना; देशा भायर तर निखालस ना. शणै गोंयबाब हांच्या काळांत गोंयांत आनी भारताच्या हेर वाठारांनी वसाहतवाद्यांचें राज्य आसलें. स्वातंत्र्य, लोकशाय, स्वराज्य पयस आसलीं. आज आमी स्वतंत्र आसात, लोकशाय आनी स्वराज्य भोगतात. तरी आमी बावटो नाचयतात तो न्यूनगंडाचोच कित्याक? सरभोंवतणीं कोंकणी संस्कृताय पातळावचे सुवातेर आमीच चांटे पावलाक रंग बदलून शेड्डे कित्याक जातात? शणै गोंयबाब हांच्या उतरांनी हड्डें फुलता; आयची दशा पळयतकूच लजेन मान सकयल वता. पाठाच्या सव्या उताऱ्यांतलो हो तिसरो वांटो आमकां न्यूनगंडांतल्यान भायर सरपाची दिशा दाखयता आनी आव्हानूय दिता.

'हांव कितें करतलों?' ह्या पाठाची चिकित्सा हांगा थांबता. शणै गोंयबाब हांचे विचार कितले पुरोगामी आसले, फुडारिल्ले आसले; ते कितले उदारमतवादी आसले; आनी कशे द्रश्टे आसले हाची गवाय ह्या पाठांत मेळटा.

### काळा परस फुडें

शणै गोंयबाब हांणी आपले जिणे विशीं, जिणेंतल्या बऱ्या-वायट अणभवां विशीं खंयच आनी कांयच बरोवंक ना. पूण वेगळ्या वेगळ्या विशयां वयले तांचे विचार आनी तांचीं मतां कळपाचे दोन मार्ग आसात. एक मार्ग - तांचे लेख आनी तांचीं छापून आयिल्लीं उलोवपां; आनी दुसरो मार्ग - तांणी रचिल्ल्या साहित्यांतल्या कांय पात्रांचीं उलोवपां वा सांगणीं.

'नवें गोंय' हें तीन-म्हयनाळें मुंबय १९३४ ते १९३६ अशीं तीन वर्सां चल्लें. त्या नेमाळ्यांच्या अंकांनी शणै गोंयबाब हांचे विचार आनी तांचीं मतां मेळटात. तेच भाशेन, तांचीं जीं उलोवपां 'कोंकणी विद्यार्थ्यांक' ह्या नांवाच्या पुस्तकांत उजवाडाक आयल्यांत त्या उलोवपांनीय तांणी मांडिल्ले विचार आनी स्पश्ट रितीन मांडिल्लीं मतां मेळटात.

पात्रांचीं उलोवणीं हो दुसरो मार्ग. 'संवसारबुट्टी' ह्या आरण्यकांत बारा आत्मे उलयतात. तातुंतलो बारावो आत्मो जे विचार आनी जीं मतां मांडटा तीं खासा शणै गोंयबाब हांचीं हें पुराव्याच्या आदारान न्हय, पूण तर्काच्या पालवान कळटा. 'भुरग्यांलो इश्ट' ह्या पुस्तकांतल्या पाठां विशींय तशेंच म्हणुंयेता. 'हांव कितें करतलों?' ह्या पाठाची चिकित्सा हे लेखमाळेंत जाल्याच. हेर पाठांनीय विचार आसात. बरे संस्कार, शिक्षण दिवपाची योग्य तरा, गोंयां विशींचो अभिमान, झाडांपेडांची व्हडवीक, पर्यावरणाचो सांबाळ अश्या विशयां वयले ते विचार. ते शणै गोंयबाब हांचे आसले तरी मांडल्यात पाठांतल्या पात्रांच्या तोंडांतल्यान. चडशीं भुरगीं आसात; पूण कांय देखी सुकण्या वरवींय सांगल्यात.

शणै गोंयबाब विचारांनी आनी मतांनी तांच्या काळा परस कितलेशेच फुडें आशिल्ले. तें सारकें समजून घेवपाचें आसत जाल्यार तांणी आपले बरपावळींत अप्रत्यक्ष रितीन मांडिल्ले विचार आनी कायलोळ्यो करिनासतना स्पश्टपणान उक्तीं केल्लीं मतां हांचोय अभ्यास करप गरजेचें.

(सोंपता)

संपर्क: 98222163223



# सुके घालावे आम्हासी

**बाकीबाब बोरकार**

"आज कितें मेळ्ळें?" वा "आज कितें खालें?" असो प्रस्न एकाद्रो गोंयकार तुमकां करीत जाल्यार ताचो अर्थ आज बाजारांतल्यान तुमी कसलें नुस्तें हाडलें वा खालें असो जाता. तुमी साखरभात जावं बासुंदीपुरी खाल्ली आसत, पूण ती जाप हांगा लागू जायना. ताचे नदरेन सगळ्यांत व्हडलें पक्वान्न म्हणल्यार नुस्तें! नुस्त्या शिवाय जेवण म्हळ्यार भाजीपालो. सामको शिवराक! (श्रावक वेल्यान). कितेंच जमनाशिल्ल्या वा अजागळ मनशाक तो बाप्पा शिवराक म्हणटा. हाचे वेल्यान निव्वळ शिवराक मनशाची ताचे लेखी पत कितें हें तुमी मतींत घेवचें.



नुस्तें संवसारांत सगळे कडेन खातात. पुण देवाच्या ह्या पयल्या अवताराची "षोड्शोपचार" पुजा इतल्या भक्तीभावान गोंयां इतली दुसरे कडेन खंयच जायना आसतली. नुस्त्याक देवाच्या पयल्या अवताराची प्रतिश्ठा ही गोंयकारांच्या खूब फुडलें चिंतपी पुर्वजान दिल्ली आसतली. तशें नाशिल्लें जाल्यार हे गजालीक हजारांनी वर्सां जावन गेलीं आसतनाय आमी तिची प्रतिश्ठा आयज मेरेन इतले बारिकसाणेन तिगोवन दवरचेच नासले.

पोन्न्या संस्कृत साहित्यांत सरस्वती न्हंयचीं व्हडपण सांगपी जितलीं स्तोत्रां आसात तितलीं आनी खंयचेय दुसरे न्हंयचीं नात. गंगेचीं खूब आसात पूण तीं सरस्वती न्हंय गुप्त जाले उपरांतचीं. जिचे तडीर एका काळार खूब व्हडली सारस्वत संस्कृताय जल्माक आयली, ती अकस्मात गुप्त कशी जाली हाचो सोद आदल्या ऋषीमुनींक आनी नव्या शास्त्रज्ञांक आजून लागूंक ना. पूण म्हजो असो समज आसा की तिच्या दोनुय तडिर आशिल्ल्या सारस्वतांनीं तिच्या पोटांतलें सगळें नुस्तें खावन सोंपयिल्ल्या कारणान, आतां जगपांत कसलोय अर्थ उरूंक ना अशी भावना जाल्ल्यान ती गुप्त जाली आसपाक जाय. तिच्या सांगाताक नुस्तें मेळपाची आस्तय सोंपिल्ल्यान तिचे तडी वेल्या नुस्त्याचेर अवलंबून आशिल्ल्या सारस्वतांची कशी अवतिकाय जाल्ली आसूं येता आनी नुस्तें सोदपाक तो बारा दिकांनी कसो फाफशिलो आसत हाची स्पश्ट कल्पना हांव करूंक शकतां.

**ललित निबंध**

कित्याक तर आयजूय खरो गोंयकार नुस्त्या विणें कसो तळमळटा आनी केदेय व्हडले सिर्विसेचेर खोंट मारून तो गोंयांत कसो परतता हाच्यो खूब देखी म्हजे मुखार आसात. न्हंय केन्नाय आटूंक शकता हाचो अणभव आमच्या पुर्वजांक आदीं आयिल्लो आशिल्ल्या कारणान, हाचे फुडें दर्या देगेरच आपलो राबितो करचो अशें तांणी थारायिल्लें आसूंक जाय. कोंकण आनी चड करून गोंय हांगा ताचो वंश वाडिल्लो दिसता तो ह्याच कारणा खातीर असो म्हजो समज आसा.

आमच्या गोंयांत "सकाळीं फुडें नुस्त्यादर्शन" ही सगळ्यांक घालून दिल्ली देख. गांवांत आयिल्लें सगळ्यांत व्हडलें नुस्तें सांगता तें मोल दिवन विकतें घेवप हें सगळ्यांत व्हडलें कर्तूब अशें तो समजता. तेच खातीर तें नुस्तें झेलयत तो घरा हाड्टा आनी वाटेंत ज्यो लक्तुबायेच्यो वो दुस्वासाच्यो नदरो ताचेर वतात ताणें तो सुखावता. असलें नुस्तें ताणें हाडिल्लें पळयतगीर घरांतल्या बायलां मदीं ताची पत आनीकय वाड्टा. हाडिल्ल्या नुस्त्याचे विंगड-विंगड नग रांदपा खातीर दर एक बायलेंत बारा भुजांचें बळगें येता.

मागीर तो सेनापतीच्या नेटान, हाडिल्ल्या नुस्त्याचें कितें- कितें करपाचें हाची ओर्द सोड्टा. घरांत मोठे उमेदीन कांतप - वांटप जाता. तातूंतय ताका समाधान मेळना. पंगतीक आपल्या मना सारको सोयरो आसले शिवाय ताका जेवणाची खरी रूच येना हें ताका खबर आसता आनी ते खातीर तो आपल्या आवडट्या सोयऱ्याक आपोवन घेता.

गोंयकारांचो नुस्त्या वेलो मोग सामकोच जगा भायलो! एका आफ्रिकानीस्त अशिलाच्या कामा खातीर म्हजो बापोलयो पणजे गेल्लो. काम मना सारके जालें म्हण अशिलान बापोलयाक धा पौन दिले. पौन म्हळ्यार पौंड. बापोलयो वाग मारिल्ल्याचे नेटान बोरये येवपाक भायर सरलो.

ते वेळा वेलो प्रवास वाफोराचो आसलो. वाफोर दुर्भाटा थांबलो तेन्ना धक्यार ताका शेंवटे, काळंदुरां, चणकुलां असलें घोस्ताचें ताज्जें नुस्तें दिश्टी पडलें. पाकिटांत जाय तितली मोड ना म्हण कळटगीर ताणें अकरा रुपयांचो पौन धा रूपयांक विकलो. वाफोर सुटपाचे तयारेंत आनी बोल्सांतल्या लेंसांत नुस्तें जावंचे ना म्हण रोखडोच ताणें बंद गळ्याचो कोट काडलो आनी भितरलें बानयान काडून तातूंत तें नुस्तें बांदून आपलो हुस्को पयस केलो. आज त्या धा रूपयांचें मोल सहज देडशें रुपया आसतलें. जांगडा येदें चणाक ताणें सात रुपयांक घेतिल्ल्याची म्हाका याद जाता.

आमच्या पोरांची शाळेची फी तेन्ना स-आठ आणें आसताली. पूण ती वेळार केन्नाच आमच्या हातार पडली ना. भारतकार हेगडो

देसाय हो ताचो आमीग. केसरी फायेफाट ह्या भारत सातोळ्याची बापोलयाचे लेखीं प्रतिश्ठा आसली. पूण ताची वर्साची वर्गणी बापोलया कडल्यान केन्नाच वेळेर पावल्या अशें घडलें ना. बाबडे ''भारत''कार वर्गणीच्या वसुले खातीर आपूणच भायर सरताले.

आमगेर ते आयले की बापोलयांचे खोशयेक शीम-मेर उरना आसली. रासयचीं कालवां, लोटलेचे शेंवटे, गांवांतल्यो वागयो असलें नकसूद नुस्तें मुद्दाम मानायाक धाडून तो हाडून घेतालो. हो परामेस करपाक धा रुपया तरी खर्च जाताले. इतलें बरें नुस्तें पोटांत वतगीर वर्गणी मागपाचो धीर ''भारत''काराक कसो जातलो? दोन दीस आग्रो करून केल्ली सरबराय जातगीर ते वचपाक भायर सरताले तेन्ना बापोलयो तांकां म्हणटलो ''वर्गणी सुसेगाद धाडून दितां आं.'' ती केन्नाच पावची ना हें ''भारत''काराक जुस्त खबर आसलें.

बरें नुस्तें पोटांत गेल्ले खातीर ''भारत''काराचीच जीब लुळी पड्यली अशें न्हय, तर ताजें नुस्तें म्हऱ्यांत आयलें की खंयचोय गोंयकार रोखडेच मोव पड्य. बापोलयो सामको कडक आनी कामाक रेक्त म्हण ताची नामना आसली पूण नुस्त्याची सागवाद आयली की तो लेगीत मोव पड्यलो. तो लांच म्हणून हजार रूपया दिवप्याक दारांतल्यानच धांवडावपी, होच बापोलयो नुस्तें पळयतगीर सामको मोव पड्यलो.

हजार रूपया मोडून लेगीत सरकारी ऑफीसांत जीं कामां वर्सां संर्कीनी जायनात तीं कामां नुस्त्याचे एके सागवादीन रोखडींच जातालीं. मनार घेतलें कांय कितलेय कठीण काम नुस्त्या वरवीं कशें रोखडेंच जाता ताचें साग्रसंगीत वर्णन करपी ''पांडव प्रतापा'' सारखो ''मत्स्यप्रताप'' ग्रंथ हांव कांय न्हय करून बरोवंक शकतां. नुस्त्याची सागवाद ही लांच ह्या प्रकारांत बसूंकच शकना.

ह्या सागवादी वेल्यान याद जाली. म्हजो आजो सामको देवभक्त. मुकुंदरायाच्या ''विवेकसिंधू'' चें तो सद्दां पठन करतालो. संताचीं भजनां तल्लीन जावन वरांचे वरां गायतालो. पूण नुस्तें नाशिल्लीं व्रतां तांकां मानवना आसलीं. घराच्या मनश्यांचो मान राखपा खातीर फकत चवथ आनी शिवरात्र हे दीस तो जिवार येवन पाळटलो.

पूण एकदां शिवरात्रेच्या दीसा उजवाडा फिगरेदीन बरो व्हडलो रांवस सागवाद म्हण तांकां धाडून दिलो. मानायाक सुरती रूपयाचें इनाम दिवन तो रांवस घेवन ते घरांत आयले आनी घरच्या बायलांच्या सुवादीन करून म्हणपाक लागले, ''दुसऱ्या पंचागांत शिवरात्र फाल्यां आसतलीच''! मनांत कांयच धरिनासतना तांणी तो रांवस तळून रांदून भरपूर खालो आनी दुसऱ्या दिसा शिवरात्र पाळ्ळी. ताचें हें तर्कट खंयच्याय गोंयकाराक पटटलें. कित्याक तर शिवरात्र दुसऱ्या दिसा येवंक शकता पूण असलो रांवस फाल्यां मेळटलो हाची खात्री देव लेगीत दिवंक शकना.

आज्याचो हो नुस्त्या मोग बापोलयांत भरपूर आयिल्लो. चालंत परंपरे प्रमाण आपल्या बापायच्या स्राध्दा दिसा ताका सामकें शिवराक जेवचें पड्यलें. ताचें म्हणणें आसलें की जाका नुस्त्या शिवाय एकूय उंडी ताळ्या सकयल वचनाशिल्ली ताच्या स्राध्दा दिसा खरें म्हणल्यार नुस्त्याचें जेवण आसपाक जाय आसलें, पूण परंपरा आड येताली म्हण ताचें कांयच चलना आसलें.

चवथीचीं परब फकत देड दिसाची. तरीय ती निभायता म्हणल्यार बापोलयाक नाकापुरो जातालें. पयल्यो बांगड्ल्यो ज्युस्त ह्याच दिसांनी येताल्यो. आमच्या घरांत गणपती पुजतात म्हण घरांत नुस्तें हाडूंक मेळनासलें. पूण बापोलयाच्या शेजाराक आशिल्ल्या एका घरांत आमचो एक मुंडकार त्यो बांगड्ल्यो रांदून दवरतालो. मागीर दीस केन्ना सोंपता आनी गणपती केन्ना पावयता अशें बापोलयाक जातालें. फुडल्या दारांतल्यान गणपती विसर्जना खातीर भायर सरलो काय फाटल्या दारांतल्यान बांगड्ल्यो भितर येताल्यो.

नुस्त्याचो हो मोग खंयच्या थराक पावंक येता हाची सारकी देख दिवपाक एक घडणूक सांगपा सारकी आसा. एक दीस बापोलयाक पयशांची गरज जाली म्हण भर दनपारां ताणे म्हाका ताचे माड सूर काडपाक रेंदाक दिल्ल्या बोस्त्यांव रेंदेरागेर वचून रेंदाचे पयशे घेवन येवपाक सांगलें. आनी पयशे घेतले शिवाय घरांत येवं नाका अशी शिटकावणी दिली.

हांव आयलां हें कळटगीर बोस्त्यांवान मागील दारांतल्यान कूस मारली. म्हाका रेकाद दवरलो की आपूण शेवाक म्हणल्यार सूर काडपाक गेलां. ताच्या घरा सामकार न्हंयच्या उदकाचो पाट व्हांवतालो. हांव त्या पाटाचे तडीर बोस्त्यांवाची वाट पळयत कांय वेळ रावलों. वेळ वचपा खातीर पाटांतल्या उदकाचो लोट नियाळूंक लागलों. इतल्यान म्हाका नुस्त्याचें एक पोर त्या नितळ उदकांतल्यान वता तें दिसलें.

हांवें ही खबर कुकारे घालून सगळ्यांक कळीत केली. तेच बराबर माडार सूर काडपाक गेल्ले कांय रेंदेर झपाझप देंवले आनी हांवें दाखयल्ल्या त्या जाग्यार ल्हान जाळीं घातली. तातूंत शंबरां वयर अस्सल शेंवटे सांपडले. हें नुस्तें पागप्यांत बोस्त्यांवय आसलो. ताका हांव पयशे मागपाक आयलां हाचेंय भान उरलें ना. इतलें नुस्तें मेळ्ळां म्हणटगीर सगळ्यांनी खोशयेन म्हाका एक -एक शेंवटो दिलो. बोस्त्यांवान दोन दिले. ह्या शेंवट्यांची गांथन येदी जाली की ती जमनीक तेंकपाक लागली. मोटे हिकमतीन सांबाळीत ती गांथन घेवन घरा आयलों. मनांतल्या मनांत जेवणां जायनात जाल्यार पुरो म्हण हांव देवा कडेन प्रार्थना करतालों.

घरा कडेन पावलों तेन्ना बापोलयो व्हरांदांत पासयो मारतालो तो दिश्टी पडलो. हांवें ताका विचारलें ''जेवणां जावूंक नात मूं?'' बापोलयो म्हुणूंक लागलो ''कसलें जेवण? बेठेंच तोंड उश्टयलांय.'' म्हज्या हातांतली ती लांबरूंद गांथन पळोवन म्हाका बोस्त्यांव रेंदेरागेर वचून पयशे घेवन येवपाक सांगिल्लें तें तो विसरलो. घरांत परतीं वांटपां सुरू जालीं. जेवण जाय मेरेन सांजेचीं चार जाल्लीं.

कुंभारजुवेंचे कृष्णबाब हे बापोलयाचो मावसभाव. तांगेर भर रातयां लेगीत नुस्तें आयलें जाल्यार जेवणां परतीं जातालीं. कुंभारजुवेंचें नुस्तें सामकें फामाद. पूण ''मोल्द'' नांवाच्या हुमणां खातीर तें चड फामाद. नाल्लाच्या दोट्टी रोसांत तळिल्लो शेंवटो घालून करपाचें तें

हुमण. असलें रुचीक हुमण तुमकां आनी खंयच मेळपाक नां.

दरएक नुस्त्याच्या सुवादा वेल्यान तें कशे तरेन रांदप हें आदारून आसता. तें हांव सगळेंच हांगा सांगूंक बसना. पूण सुक्या बांगड्यांचे किसमुरीचो विशय येवप हें हांव टाळूंक शकना. कारण तिच्याच जिवार गोंयां भायर नोकरी धंदो करपी गोंयकार जगतात.

किसमुरेचो सगळ्या प्रकारांत सगळ्यांत फिशाल प्रकार म्हणल्यार धुंवरी दिल्ली किसमुर. किसमुर तयार जाली म्हणटगीर तिचे राशींत बुराक करून तातूंत पेट्ये कोळसो दवरपाचो आनी ताचेर घाण्याचें खोबरेल घालून किसमुरेन तो धांपपाचो. तेबराबर जो तेलकट धुंवर येता ताचे खातीर किसमुरीक एक वेगळीच रूच येता. आतां घराघरांत रांदनी वचून गॅसाच्यो शेगड्यो आयिल्ल्यान हे रुचीक आमी पयसावल्यात हाचें म्हाका वायट दिसता.

सुक्या नुस्त्या भितर जें म्हत्व किसमुरीचें तेंच म्हत्व ताज्या नुस्त्यांत कळपुटीचें. कळपुटी म्हळ्यार ताज्या नुस्त्याच्या बोडकांचें रांदिल्लें आंबटतीख सुकें. धोडीं, चणाक, विसवण,पालू अश्या व्हडल्या नुस्त्यांच्याच बोडकांची कळपुटी करप आसता आनी ती लेगीत तांची मोवसार पोटकळां शिनून घालून. बोटांक नाजाल्यार गळ्याक कांटो लागूंक दिनासतना रुचीन ती खावप. नव्या खावप्यांक तें जमपाचें ना. हो चमत्कार जाका फिशालकायेन करूंक जमता तो जातिवंत नुस्तें खावपी. जाका सट्येची कृपा आसता ताकाच तें सादता.

आमच्या गोंयांत सट्येची पुजा रात भर वाजयत गाजयत करतात आनी जेवणाक चडांत चड नुस्त्याच्यो पती रांदतात. हाचे फाटलो हेतू म्हणल्यार जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याक जिवीत भर तरेतरेचें नुस्तें मेळचें आनी कळपुटी खावपाची फिशालकाय मेळची.

नुस्त्याचें आमकां इतलें अप्रूप की आमचे गांव लेगीत नुस्त्या खातीर फामाद आसात. कुंभारजुवेंच्यो तिसऱ्यो, पोंबुर्पेच्यो कुल्ल्यो, केगदी वेळे वेले शेंवटे, कायसूंवची कल्ली, मुरगांवचो विसवण, हडफड्ची घोळशी अशीं नुस्त्यांचीं कितलीं म्हण नांवां सांगपाचीं? संध्येंतल्या चोवीस नांवां भशेन नुस्त्याचीं चोवीस नांवा दरएक गोंयकाराच्या मनांत आनी तोंडांत आसतात. आजून ''मत्स्यसहस्त्रनाम'' बरोवपी महाकवी गोंयांत कसो जल्मूंक ना हाचें म्हाका अजाप दिसता.

अस्तुरेच्या सोबितकायेचे वर्णन लेगीत आमी नुस्त्या वेल्यान करतात. व्हंकल एकशिवडी आनी गोरीपिट्ट आसत तर आमी तिका वेल्ले सारकी म्हणटात. मात्शी आंगान मोठी आनी तिकतिकीत आसत जाल्यार तिका मुड्डशे सारकी म्हणटात. नुस्त्याची आमकां इतली अपुरबाय की बांगडो पेडी वेलें लग्नाचें पद आयकल्ल्याचें म्हाका याद जाता. म्हजी आजी तें म्हणटाली.

''बांगडो न्हवरो। पेड व्हंकल। सुंगट कलंवंत नाचे रे पालवा॥ सांगाळ्याच्यो केल्यो चार म्हेडी॥ लेपांची केलीं चुट्टां रे पालवा ॥ बाळ्याचे केले दोरे॥ शेतूक करवली । भायर सरवली । मुड्डशी रागान गेली...॥''

बुद्ध धर्माचो प्रसार बाकीच्या भारत देसा वांगडा गोंयांत इल्लोय

*(पान ३४ चेर)*





*Effective interest rate : @ 3% to 3.5% p.a.
*Project cost can be from ₹20,000 to ₹25,00,000
*Over 6500 people have already availed of loan for Business enterprises




*T&C Apply

# START YOUR OWN SUCCESS STORY!

# CHIEF MINISTER'S ROJGAR YOJANA

**Empowering the Educated unemployed**
**Women Entrepreneurs | Self-Help Groups**
**Handicapped | Socially Backward**

Promoted by




Supported by



**Visit us today:**
A Government of Goa Undertaking
Corporate Office: EDC House, Dr. A. B. Road, Panaji, Goa 403001
Tel: (0832) 2224541 - 42, 2423983, 2221458
Link: www.edc-goa.com/edc/product/cmry.pdf
CIN: U65993GA1975SGC000214




# INTEREST REBATE SCHEME

**IMAGINE**
**INTEREST RATE**
**AS LOW AS**
**1.5% P.A.**

| | | |
|---|---|---|
| BASIC RATE STARTING FROM | | 10.5% |
| REBATE | | |
| Units set up in Backward Talukas | 5% | |
| Units set up by Goan Origin Entrepreneur | 2% | |
| Units set up by Women Entrepreneur | 2% | |
| MAXIMUX REBATE | | 9% |
| EFFECTIVE RATE | | 1.5% |





**QUANTUM OF REBATE**
Max. of Rs. 40.00 lakh per annum per unit


**REQUIREMENT**
Loan account should be classified under Standard category at the end of the financial year.

T&C Apply

CONTACT DETAILS: EDC LIMITED, Mezannine floor, EDC House, Dr. A. B. Road, Panaji, Goa. 403 001.
Call: **0832-2224509 | 9284769936** Email: **loans@ edc-goa.com**

Application form can be downloaded from EDC website **www.edc-goa.com**







# Town & Country Planning Department

## Government of Goa

### Vision

A planned, Sustainable and Integrated development of state, keeping in mind a healthy, comfortable and aesthetic living atmosphere to the citizens is the vision of this Department,

### Mission

To ensure Planned, Integrated and Sustainable development of the state by optimal utilization of its land resources under the frame work of law with the help of special plan for land use control at various level for State of Goa,

### Functions/Responsibilities

- To work as technical advisory body to the Government in matter connected with in land use related issue vis-a-vis development control.
- To effectively carry out the functions as envisaged in the Town and Country Planning Act,
- To prepare a Regional Plan which is sustainable for orderly development of the towns and country side with special emphasis on conservation of resources.
- Prepare and frame Laws, Act, Rules and Regulations which are practical integrated and futuristic for land development and building construction with emphasis on preservation and conservation of wild life, nature parks, forests, eco-sensitive areas, heritage sites.
- To guide Planning and Development Authorities to effectively implement their functions and objectives and provide funding as may be required.
- To work towards effective implementation of national level or international level schemes which will be implemented from time to time.
- To ensure quality of work, encourage research and training in the field of Town and Country Planning.
- To work as technical Secretariat for Goa Town and Country Planning Board, Goa Conservation Committee in preserving and conserving built heritage of the state and provide funding for improvement of street facade built heritage,
- To work in tandem with related Departments in Planning designing of Traffic and transportation related works.

### Services

- To issue Technical Clearance for Building and Land Development under Goa Land Development and Building Construction Regulations - 2010 (G to G and G to C)
- To issue permission under Section 17-A of the Act for cutting of slopping land and filling of low lying land and to act against violations of the provisions of the said section. (G to C)
- To issue NOCs for land acquisition by Government Departments/ Government undertakings. (G to G)
- To issue recommendation for conversion of use of land under LRC.
- To issue zoning certificates. (G to G/C)
- To issue NOC for storage of Petroleum products and explosives. (G to G)
- To issue NOC for partition of land under LRC having area of more than 4000.00 sq mtrs. (G to G)
- To issue NOC under 49(6) of the Act of Registration of sale of land. (G to C)
- To process application under Section 16A of the Act. (G To G)
- To process application under Section 16B of the Act. (G To C)

PLANT MORE TREES AND MAKE GOA GREEN

# श्रावण

नम्रता पालेलकार

हिंदू पंचांगाचो आरंभ चैत्र म्हयन्या सून जाता... थंरच्यान पांचवो म्हयनो हो श्रावण आसता... ज्योतीश शास्त्रा प्रमाण ह्या म्हयन्याचे पुनवे साकून मळबांत श्रवण नखेत्राची योग तयार जाता ताका लागून श्रावण नखेत्राच्या नांवां वेल्यान ह्या म्हयन्याचें नांव श्रावण... जायत्या उत्सव, परबांचो आरंभ श्रावण म्हयन्यांतल्यानच जाता... आशाड सोंपलो काय सगल्यांक श्रावण म्हयन्याचे वेद लागतात...

परब मनोवपा सारकी खोशी मनशाक आनीक कित्यांतच मेळना... चातुर्मासांत नागपंचम, सुतापुनव, चवथ, नवरात्रां, दसरो, दिवाळी अश्यो तरेकवार परबी मनयतात. अशे जरी आसलें तरी ह्या चार म्हयन्यांत श्रावण म्हयन्याचेंच म्हत्व चड आसा...

धर्मशास्त्रा प्रमाण चातुर्मासाचो आरंभ आशाडी एकादशेक जाता... हे एकादशीक शयनी एकादस अशेंय म्हणटात... ह्या दिसाक देव विश्णु सुशेग घेतात, न्हिदतात आनी कार्तिकी एकादशेक ते जागे जातात अशें म्हणटात... जेन्ना देव न्हिदिल्ले आसतात, त्या काळांत राकेसांची शक्त वाड्टा... जळामळाक तांचेंच राज्य... अश्या वेळार मनशान ह्या राकेसां पासून आपली राखण करप गरजेची आसता... हे राकेस म्हणल्यार वासना, राग, दुस्वास, मद... ते ना करपाक मनाचो सत्व गूण वाडोवंक बरो उपाय म्हणल्यार जेवणां-खाणांचेर ताबो, नेमान धार्मीक पुस्तकांचें वाचन.... तुळशी पुजन... दानधर्म... उपास... देवदर्शन... हें सगलें करप गरजेचें आसता... जशें आपलें वागणें आपल्या मनाक प्रभावीत करता तशेंच आपलो आहारय मनाचेर प्रभाव करता... म्हणल्यार, भेळशेल्लें, शिजूनाशिल्लें जेवण वीट तयार करता... श्रावण म्हयनो म्हणजे पावसाचो काळ... ते खातीर पयलींच कुडींत वातोश वाडिल्लो आसता... भूक कमी जाल्ली आसता... जर ह्या काळांत पथ केलें ना तर जेवण पचना जावन तरेकवार दुयेंसां जावंक लागतात. म्हणून उपास सुरू जाले... खरें तर उपास म्हणल्यार उप+वास... उप म्हणल्यार लागी... आनी वास म्हणल्यार रावप... देवाच्या लागीं रावप असो अर्थ ह्या उतरांतल्यान कळटा. बेश्टेंच देवाच्या लागीं रावप न्हय तर देवा म्हयन्यांत तानभूक विसरून रावप. खावन पिवन देवाची पूजा करप मन तयार जायना... आळसय येता म्हण तो उपास.

आशाड सोंपून श्रावण म्हयनो सुरू जाता आनी श्रावण म्हयन्यांतलो परबो म्हणल्यार नागपंचम, सुतापुनव, रक्षाबंधन, आयतार पुजप, अश्टम... .ह्या म्हयन्याची पयली परब म्हणल्यार नागपंचम. श्रावण म्हयन्यांत सैम सगले कडेन ताच्या नव्या आनी सोबीत रूपान मन भुलयता. धर्तरी पांचवोचार शालू न्हेसता... आमच्या पुर्वजांनी श्रावण म्हयन्यांत तरेकवार परबो. व्रतां गुंथून दवरल्यांत. नागपंचमीच्या दिसाक नागाची पुजा करतात. हाचेर एक काणी आसा ती म्हणल्यार... मणिपूर नांवाच्या गांवांत एक शेतकार रावतालो. एक दीस शेत नांगरतना ताचो फाळ एके रोयणे वयल्यान गेलो. रोयण फुटली. तातूंत सोरपिणीचीं म्हणल्यार नागिणींचीं पिलां मेलीं. नागीण भायर गेल्ली... येवन पळयत जाल्यार पिलां मेल्यांत... कितें जालें तें तिका कळ्ळें... तिका सामको राग आयलो आनी तिणें शेतकारच्या सगल्या कुटुंबाक चावून मारून उडयलें... शेतकाराल्या एका धुवेचें लग्न जाल्लें. नागीण थंय गेली. तिच्या घरांत पळयत जाल्यार तीणे पाटाचेर नागाचें चित्र काडून ताची पुजा करताली. तिणें ताका दुदाचो निवेद्य दाखयलो. हात जोडून नमस्कार करून म्हणलें... सगल्यांक सुखी दवर... तें पळोवन नागीण खोशी जाली आनी तिणें शेतकाराल्या कुटुंबाक जिवें केलें. तो दीस आशिल्लो पंचमीचो... तेन्ना सावन नागपंचमीची परब सुरू जाली. ह्या दिसाक नागाची पुजा करतात. पयलीं बायलो रोयणी म्हयन्यांत वचून पुजा करताल्यो आता शारीकरण जाल्यान रोयण्यो उरल्यो नात देखून नागाची मूर्त तयार करून वा नागाचो फोटो लावन पुजा करतात. नागाच्या मूर्तीक हळद-कुकुम लावन... लाह्यो आनी दुदाचो नैवेद्य दाखयतात.

श्रावणांतली पुनव वेगळे वेगळे कडेन वेगळे वेगळे तरेन मनयतात .

उत्तर भारतांत ह्या दिसा रक्षाबंधन करतात. ताका राखीपुनव म्हणटात. कांय कडेन गळ्यांत सूत बांदतात. सुतापुनव म्हणटात..तशेंच दर्यादेगे वेले लोक दर्याची पुजा करतात. ताका नाल्ल अर्पण करतात. म्हण नारळी पौर्णिमा अशेंय म्हणटात.



सूर्य... ताचे विर्शी आदर जाता...सूर्य हो तेजस्वी, चिरंतन आयुश्य लाभिल्लो ताका लागून, सूर्या कडेन, काळखांतल्यान उजवाडा कडेन सदांच आमचे नातें उरचें म्हणून प्रार्थना करप...

आपल्या घोवाक, सूर्या वरवीं चड आनी चड आयुश्य

पुनवेच्या दोन म्हयण्या पयलीं उटंगाराचो पावस पडत आसता. ते वेळार नुस्तें पागपी लोकांक दर्यांत वचप कुस्तार जाता. श्रावणी पुनवे साकून दर्यो शांत जाता. फुडल्या काळांत कसलेंय संकश्ट येवंनये म्हण दर्याची पुजा करून ताका नाल्ल दितात. रक्षाबंधनाच्या दिसा भयण भावाक राखी बांदता. भाव भयणीचो मोग वाड्य आनी तो भयणीची राखण करपाची जापसालदारकी घेता.

श्रावणांत सगल्यांत म्हत्वाची परब म्हणल्यार जन्माश्टम. श्रीकृष्ण जल्म. श्रावण अश्टमीक मध्यानराती कंसाचे कादयेंत श्रीकृष्णाचो जल्म जालो. ताका लागून कृष्णाक पाळण्यांत घालतात. दुसऱ्या दिसा गोपाळकालो. धंय-हंडी फोडपाची कार्यावळ आसता.

श्रावणी उमास शेतकाराचे नदरेन म्हत्वाची आनी खोशयेची गजाल... ह्या दिसा बैलांक सकाळीं तेल लावन न्हांणयतात. तांच्या शिंगांक रंग लायतात. गळ्यांत पांयांत घुंगूर बांदतात. तांची पुजा करतात. शेतकाराक मजत करपी हे मोनजातीचो आदर करतात त्या दिसा तांकां सुसेग दितात. म्हादेवाचें वाहन नंदी. देखून पयलींच्या काळां साकून आमी बैलांक मान दिवन तांकां पुजतात.

श्रावण म्हयन्यांत पावस पडत आसता. मूस, जळेरां, नितळसाण आसना. ताका लागून पयलीं कॉलरा, देवी, थंडी, जोर अशीं दुयेंसां जातालीं. जायतीं वखदां आनी गिन्यान नाशिल्ल्यान लोक मरताले. मरणाचें संकश्ट ना करपी देव म्हणल्यार म्हादेव. म्हणूनच ह्या म्हयन्यांत म्हादेवाक पुजून श्रावणी सोमार करतात.

मंगळाराक मंगळागौरीची पुजा करून बायलो रात भर जागरणां करून तरेकवार खेळ खेळटात. बुधवाराक श्रीविष्णुची, बिरेस्ताराक श्री दत्तगुरूंची, शुक्राराक देवीची पुजा. सवायशीणींक आपोवन हळद-कुंकूम लावन. गोड-चण्याचो निवेद्य. भुरग्यांची भलायकी बरी उरची म्हण ही पुजा. शेनवाराक शनिदेवाक वा मारुतीक तेल घालप. मारुती प्रसन्न जालो तर शनिदेवाली वायट नदर पडना. आतां निमाणचो उरलो आयतार.

रूख, वेली, चंद्र, तारे... हांचो संबंध मनशाच्या जिविता कडेन पयलीं काळा सून आसा. सुर्याची पुजा तर भारतांत तशेंच गोंयांतय आदिकाळा सावन करतात. धर्म आनी संस्कृताय हांचो तर लागींचो संबंध आसा. गोंयचे आयतार पुजपाचे परंपरेंतल्यान हेच लोकसंस्कृतीचें दर्शन जाता...

आयतार, आदित्यवार म्हणल्यारच आयतार पुजपाची ही परंपरा... सूर्याची पुजा! 'आदित्य' ह्या उतरान आयतार पुजा अशें जावंक शकता... मनीस आनी सैम हांचे भितर मोगाचे संबंध. तांचें सगळेंच सुर्याचेर अवलंबून. काळोख म्हणल्यार भंय. आनी ह्या भंयांतल्यान म्हणजेच काळखांतल्यान, उजवाडा कडेन वचपाची जी तांक दिता तो आरोग्य मेळचें म्हणून प्रार्थना करची अशें गोंयांतल्या बायल मनशेन योग्य म्हणलें आनी तातुंतच आयतार पुजपाची परंपरा सुरू जाली. श्रावण म्हयनो म्हणल्यारच सैमांतली सगळी खोशी घेवून येवपी म्हयनो... झाडां पेडां, सवर्णी, फळं, फुलां... हे खोशयेच्या परबेक न्हातात... पावसाच्यो सरी पिवन तृप्त जाल्ली धर्तरी आपल्या आंगांतल्यान पाचवोचार सैम फुलयता... हीच सैमीक खोशी 'आयतार पुजेंतल्यान' दिसता. आयतार पुजेची माहिती कवितेंतल्यान दिता...

**श्रावण आयतार**

*श्रावणांतले आयतार, सवायशिणी पुजतात.*
*आयुश्य आनी आरोग्य, घोवाखातीर मागतात.*

*पुजेखातीर जाय पड्य, केळीपान, फुलां, पत्री.*
*हळदीचे कूट आनी... कुकुली सान सुपारी.*

*न्हावन-धुवन पाटार, केळीपान दवरप...*
*फुलां आनी पत्रींनी, आयताराक सजवप*

*बारा तादूंळ, बारा फुलां, बारा हरयाळीची जुडी,*
*बारा अर्गी दिवून... माथ्यांक खोवप थोडीं.*

*पयली कोंदळी अस्तेवाक, दुसरी कोंदळी अस्तराणीक,*
*तिसरी कोंदळी अस्तमायेक, चवथी कोंदळी तुळशीमायेक,*

*पांचवी कोंदळी पांच पांडवांक, सव्वी कोंदळी सर्व देवांक,*
*सातवी कोदळी आवय-बापायक, आठवी कोंदळी मांय-मांवाक.*

*णव्वी कोंदळी नवदुर्गेक, धाव्वी कोंदळी ब्रम्हगायत्रेक,*
*इकरावी कोंदळी सून सावित्रेक, बारावी कोंदळी सूर्यनारायणाक.*

*मुठले, पातोळ्यो, खिचडी, निमाणे कडेन पोळे करप.*
*आमचें हें दायज बाये, आमीच ताका तोखेवप*

*सांज जावचे आदी आयताराक पावोवप.*
*वर्सान वर्स पुजूंक मेळूं, म्हणून ताका आंवडेवप.*

*वाचप्यांनो तुमकां हो श्रावण म्हयनो*
*सुखाचो आनी खोशयेचो वचूं.*

संपर्क: 9923594229

# नीला

## किरण म्हांब्रे

कृपालीन नीलाचेर बरोवंक सांगलें आनी म्हज्या मनांत पयलो प्रस्न आयलो, हांव नीलाक न्याय दिवंक शकन मूं.

नीला म्हजी व्हडली भयण. आमच्या स भावडांतलें पांचवें. ताचे फाटल्यान हांव. तरी आमी ल्हानपणांतल्यान स्वतंत्र कशीं आशिल्लीं. एकमेकां कडेन मैत्रिणी कशीं वागलीं. पूण एकमेकांच्या फंदांत पडलीं नात.

नीला ल्हानपणांतल्यान हुशार, धाडसी, निर्भीड. झाडां पेडांर चडपी. आपल्याक करीनशें दिसता थंय एकटें फुडें सरपी. आपले निर्णय घेवपी आनी आपल्या निर्णयांचेर ठाम रावपी.

नीला म्हाका आपली भुरगेपणांतली एक याद सागंतालें. तें सांगतालें, म्हाका पाळण्यांत न्हिदयतात तें पळोवन आपल्याकय पाळण्यांत न्हिदन दिसतालें आनी एक दीस आपूण यत्न करून पाळण्याच्या खुरांक धरून वयर चडलें. म्हाका कुशीक काडलें आनी म्हजे म्हऱ्यांत आपूण न्हिदलें. आपल्याक अजून याद आसा.

ते वेळार तें दोन अडेच वर्सांचें आसतलें.

नीला मुळांत अशें. आपल्याक जाय तें आपले हिमतीचेर मेळोवपी.

आईक तिच्या कुळारा म्हणटलीं खंय, देव पातकांत आशिल्ले म्हण नीला चली जालें. खरें तें चलोच जावपाचें. तांच्या कोंतान नीला कडेन आशिल्ले ते गूण चल्याचे. आनी तें चलो जावंक जाय आशिल्लें. आई मात म्हणटली, आपल्याक तें चली जालें म्हण कांयच वायट दिसूंक ना.

शाळेंत शिकतना नीलाचें सगल्या गजालींनी दावकूल. वक्तृत्व स्पर्धा, नीला फुडें. खेळ, नीलाचो भाग. नाच-नाटक, नीला तयार... नीलान खंयचेंच क्षेत्र सोडलें ना.

तें पांचवेक काय सव्वेक आनी हांव एक वर्स फाटीं. नीलाचो वक्तृत्व स्पर्धेंत भाग. तेन्ना पालकांनी बरोवन दिवप आनी पाठ करून घेवप ही रीत नाशिल्ली. नीलालें भाशण नीलानच तयार केल्लें आनी तें भियें नासतना आपल्याच थाटांत उलयिल्लें.

त्या वेळा वयल्या मुखेल सोयऱ्यांनी ताची त्या उस्फूर्त भाशणा खातीर तुस्त केल्ली ती म्हाका अजून याद आसा.

नीलाचें सगलें वेवस्थीत. शाळेंतल्यान आयलें, पयलीं तें गृहपाठ पुराय करतालें. कारण मागीर खेळूंक वचूंक जाय आशिल्लें. नीला गड्ड्यांनी धरून कॅरम, दस्पीक, आनी खो खो, लंगडी लेगीत खेळ्ळां. सगल्या खेळांनी तें प्रवीण आशिल्लें. बुद्धीबळांत तर ताणें व्हडले व्हडले म्हणटाले तांचेर हार घातल्या. पूण तेन्ना खेळा परस अभ्यासाक चड म्हत्व आशिल्लें.

आपल्यो वस्तू जाग्या जाग्यार. थंय कोणेंय हात लायिल्लो ताका चलनाशिल्लो. तें दुसऱ्यांच्या, त्यो मागीर भयणीच्यो आसना कित्याक, वस्तूंक हात लायनाशिल्लें. पूण आपली वस्त हांगची थंय जाली जाल्यार ताका राग येतालो आनी मागीर तें खवळटालें.

आजयेक तें चड जाय आशिल्लें. पूण अपुर्बायेन ती ताका राक्सुल बी म्हणटली.

नीलाची एक गजाल आई सांगताली. आमच्या भुरगेपणांत आमकां आजोळा वतलीं जाल्यार वाटेर पेणीं करचीं पडटलीं. काणकोणां लोलयांचें पोंत ते फोड्यां दुर्भाट. वाटेर तीन तारी लागताल्यो. तेन्ना बोरये पूल जावंक नाशिल्लो. नीला ल्हान आसतना आई आनी भाऊ (आमचो बापूय) आमकां घेवन भाऊच्या एका मित्रागेर रावलीं. थंय तांच्यो आडसाट्यो चलयो आशिल्ल्यो. तांणी अपुरबायेन नीलाक खेळूंक खेळ दिलो. सगलो वेळ नीला तो खेळ घेवन खेळ्ळें. परत येवपाचो वेळ जालो. "या" म्हणटकच नीलान सगलो खेळ आशिल्लो तसो कुरपण्यांत भरलो आनी जाग्यार दवरलो. त्या चलयांक अजाप जालें आनी ताची खूब अपुर्बाय दिली. तांणी ताका एक चांदीचो घोडो बक्षीस म्हण दिलो. अशें नीला.

आईन ताचें लग्न जातकच ताचो तो घोडो मुद्दम ताका दिलो. आनी अजून तो ताचे आरमारींत आसा.

ताचीं पुस्तकां वह्यो सदांच टापटीप आसताल्यो. तांकां फोर घालपाचें काम तें आपूण करतालें. तांचेर सुंदर अक्षरांत नांव बरयतालें. ताचें अक्षर सुंदर आशिल्लें. मोतयां कशें, तोखेंवपा सारखें. पुस्तकां वेवस्थीत दाळून दवरिल्लीं आसतालीं. बरयतना केन्नाच खाडाखोड ना. हालीं सुद्दां खोडचें पडलें जाल्यार तें पान दुसरें घेतालें. खोडिल्लें पान बाद.

खेळांतय तशेंच. आमी गजरे घेवन हाता वयलो डाव म्हण खेळ खेळटालीं. ताचे खातीर पांच गजरे लागताले. नीलाच्या संग्रहांत एकाच आकार मानाच्या पांच पांच गजऱ्यांचे संच, तशेंच मोखून खेळपाच्या घुलांचे संच आसताले. ल्हान ल्हान कंवचेचे गड्डे ताका पिटकुळी म्हणटलीं, आसताले. ते तें खंयच्यान मेळयतालें ताकाच खबर.

नीला शाळेंत आसतनाच ताणें साहित्याक हात घातलो. भाशेचेर ताचें प्रभुत्व. तें निबंद बी सुंदर बरयतालें. आठवेक सुमार आसतना ताणें राष्ट्रमतांत एक कथा बरयिल्ली. उपरांत तें कथा बरोवंक लागलें.

नीला एसएससी पयल्या वर्गांतल्यान पास जालें आनी कॉलेजींत वचूंक लागलें. ते वेळार पयलो वर्ग म्हळ्यार व्हडलो. पूण नीलाची धांव फक्त पुस्तकी अभ्यासा पुरती नाशिल्ली. ताका सगल्याच गजालींचे हुटहुटे आशिल्ले. कॉलेजींत ताणें बॅडमिंटन टुर्नामेंटांत भाग घेतलो. बुद्धीबळ खेळ्ळें. आनी बरोवपय चालू दवरलें.

ताणें मामा म्हण एक कथा बरयिल्ली ती म्हाका खूब आवडिल्ली. मागीर मागीर ताणें कथा बरोवपाचें सोडलें आनी कविताच बरोवंक लागलें. ताच्यो कथा ताणें कितें केल्यो हांव नकळं. पूण कथासंग्रह

**कोंकणींतल्यो लेखिका श्रौ. नीला तेलंग हालीच संवसारात अंतरल्यो. आपल्या अल्पाकारी कवितांनी तांणी कोंकणी कवितेक आनी चड करून स्त्री स्वराच्या कोंकणी कवितेक गिरेस्त केला. तांकां 'जागा'च्या वतीन आर्गां.**

कांय काड्लोना.'

कविता मात ताका ओड्न व्हरताल्यो. आपलो सगलो मनातंलो उद्रेक तें कवितांतल्यान उकतायतालें जांवये.

नीला भावनाप्रधान आशिल्लें. हळवें. पूण पळोवंक दिसनाशिल्लें... ताका मैत्रिणी खूब आशिल्ल्यो. तांचे खातीर तें कितेंय करूंक तयार आसतालें.

ताच्यो कल्पना भन्नाट. त्यो खऱ्यो करपाचो ताचो हावेस.

नीला नोकरेक लागलें. तीय ताची जिद्द आपल्या पांयांर उबे रावपाची. नोकरेक लागले उपरांत ताणें उच्च पदव्युत्तय शिक्षण घेतलें. नोकरेक लागले उपरांत मात नीलात खूब बदलसो जालो. तें मातशें सावध जाल्लें. थंड जाल्लें.

ताका वाचपाचो खूब नाद आशिल्लो. सुट्येच्या दिसांनी घरा आयलें जाल्यार फकत वाचत बसतालें. वाचूंक कितेंय चलतालें. पूण ताच्या संग्रहांत बरीं बरीं पुस्तकां आशिल्लीं.

जिणेचो आस्वाद घेवंक ताका आवड्टालें. आपले बरोबर तें म्हाका फुडें काड्टालें. आनी हालीं हालीं आमी दोगांय बरोबर भोंवंक लागिल्लीं. ताचेच इत्सो खातीर निमाणें हांव राजस्थान टुरार भायर सरलें. तो ताचो निमाणो टूर थारलो.

धाडसी नीला, बंडखोर नीला आनी भावूक, हळवें नीला.

नीलाचीं कितलींशींच ऑपरेशनां जालीं तरी तें केन्नाच उबगल्लें दिसलेंना. ताच्या पित्ताशयाचें ऑपरेशन जालें आनी रोखडेंच ते म्हजे म्हऱ्यांत आयिल्लें. तें तोंड वाकडें करून म्हणूंक लागलें, ''बेठेंच केलें ऑपरेशन. गरजे भायर काडून उडयलें पित्ताशय. पोटांत अजून दुखता.'' हांवें ताचें अशें तोंड केन्नाच पळोवं नाशिल्लें.

दोतोरागेर गेल्यार दोतोरान म्हणलें, ''कांय ना, बरें आसा.''

उपरांत सात आठ म्हयन्यांनी नीलाक कॅन्सर जाल्ल्याचें कळ्ळें. ते वेळार तो पोटांत सगल्याक पातळिल्लो. सोनोग्राफीचेर पोटांत उदक जाल्ल्याचें कळ्ळें. दोतोराच्या उलोवपा वयल्यान म्हाका कळ्ळें आतां ताचे थोडेच दीस उरल्यात. पूण कितले दीस म्हणून विचारपाचें धाडस हांवें केलेंना.

नीलाक कळ्ळें तेन्ना तें सामकें उदासीन आशिल्लें.

''नीला तुका कितें दिसता?'' हांवें विचारलें.

''कांय ना.'' ताची जाप आशिल्ली.

नीलान आपले जिणेचें सुयोग्य नियोजन केल्लें. ताचे शिस्तबद्ध जिणेंत ताणें कसलीच कमतरता सोडूंक नाशिल्ली....

नीलान आपले बरोबर म्हजोय सदांच विचार केलो. म्हजीं पुस्तकां प्रकाशीत करूंक ताणें फुडाकार घेतलो. थंय पयशांचो विचार केलोना.

तशीं आमी पयलीं साकून मैत्रिणीच. तरी ताच्या व्यापांनी आमकां पेल्यान दवरिल्लें. तें रिटायर जालें आनी ताका वेळ मेळूंक लागलो. मागीर आमी दोगांय बरोबर भोंवतालीं. आमचे विचार भिन्न आसताले, आमच्यो आवडी निवडी वेगळ्यो आसताल्यो. तरी म्हाका ताका विचारले बगर कितेंच करूंक जमनाशिल्लें. तें स्वतंत्र विचारांचें. आज म्हाका जाणवता हांव नीलाचेर कितलें अवलंबून आशिल्लें तें.

खंयचीय गजाल एकमेकां कडेन उलोवप जाताली. कितलेय मतभेद आसले तरी. अजून दिसता, हें ताका सांगूंक जाय. हें ताका विचारूंक जाय. ताका हाचें कशें दिसतलें, तें हाचेर कितें म्हणटलें...

ताचे कवितेचें हांव टिकाकार. हांव म्हणटालें तुजी कविता म्हाका कळना. कारण ती भावनाप्रधान आसताली. तें चड भावनाप्रधान जाता, तशें ताणें जावंनये ही म्हजी इत्सा आसताली.

नीला आपल्या कर्तव्यांत खंयच उणें पड्लेंना. कसलीच अपेक्षा करिनासतना, कसलोच तोरो बाळगीनासतना तें कर्तव्य करीत रावलें.

हांव जेन्ना नीलाचे जिणेचो आढावो घेतां तेन्ना म्हाका कळून येता, नीलान आपलें कर्तव्य चोख निभयलें. धूव म्हणून, भयण म्हणून, बायल म्हणून आनी आवय म्हणून... एक शिक्षिका म्हणून आनी एक मार्गदर्शिका म्हणून. आनी तेंय सगलें आपले हिकमतीचेर. कोणाचेर पातयेवन रावनासतना.

खूब दिसता, नीलाक तशें खूब फावतालें. तरी गोंय सरकाराचो कला गौरव पुरस्कार, कोंकणी लेखक संघाचो पुरस्कार, ह्या अनपेक्षीत पुरस्कारांनी तें भारावल्लें.

नीला म्हजी भयण आसलें तरी आज हांवें ताचे कडेन एक स्वतंत्र व्यक्ती म्हण पळयलें आनीक हें बरोवपाचो यत्न केलो. एखादे भयण म्हणून वागतना हांव ताच्या गुणांक वाखाणपाचें उरलां आसुंये. ते खातीर हांव नीलाची क्षमा मागतां.

संपर्क: 8007231075

---

# कवितेंतल्यान नीला

**नूतन साखरदांडे**

नीला गेलें. कशे गेलें? आपल्या कविते भशेनूच गेलें. नीला कविता वाचतना ताची कविता केन्ना सोंपली ते कळच नाशिल्ले. नीलाची कविता ताच्या खातीर सोंपताली. पूण वाचकांच्या मनांत ती कितलिशीच प्रस्नचिन्हा निर्माण करून वतालीं. अशीच कितें तरी आसताली ती गूढ शी.

नीला केन्ना गेलें कळ्ळेच ना. आमचे खातीर ताच्या शोनू खातीर, ताच्या मायेस्त भयणीं खातीर, कोंकणी खातीर, ताच्या अप्रकाशीत साहित्या खातीर तें बेगीनूच गेलें. एक व्हडली भरती आयली काळजाची आनी नीलाक घेवन गेली. शुन्या कडेन जंय परतीची वाट ना. पूण नीला जरी शरीर रुपान ना जालें तरी ते आमचे मर्दी आसा ताच्या कवितेंतल्यान.

नीला गेल्या उपरांत हांवें परत ताचे दोनूय कविता-संग्रह वाचून काडले. हरशीं नीला आसतना हांवें ताच्या कविता विशीं भासाभास केल्ली जाल्यार ताका कितली खोस जावपाची हो विचार म्हज्या मनाक आफडून गेलो आनी हांव उदास जालें. आनी हांव निलाक कवितेंतल्यान सोदूंक लागलें.

*मळब दिसता तुका दोळ्यांत?*
*तुका खबर ना दिसता ।दर्या लिपयला हांवें काळ्जांत*

तिनूच वळी, पूण अर्थपूर्ण खूब कितें सांगून वता. विशाळ अशें मळब तिणें लिपयले दोळ्यान. तिच्या मळबान सूर्या आशिल्लो.

चंद्रीम आशिल्लो. नकेत्रां आशिल्लीं. केन्ना केन्ना त्या मळबांत काळीं कुपां येताली. पूण ती दिस नाशिल्ली. खिणांत नाच जातालीं. देखून तो फटवतालो. तिच्या काळजांत चलिल्ली दर्याची गाज कोणाकूच कळ्ळी ना. कसो पेल्लो तिणें हो येदो व्हडलो दर्या काळजान? काय तिचें काळीजूच आशिल्ले व्हड दर्या येदे? काय तिचे काळजांतलो दर्या सोदूंक तो असमर्थ थारलो?

अशे अगणीत प्रस्न मनांत निर्माण जाता आनी अंतर्मूख जावन विचार करपाक लायतात. अस्तुरेच्या कुडी पलतडी तिचे कडेन एक दर्या येदे काळीज आसता, अन त्या काळजांत एक संवेदनशील मन आसता, तिचो स्वताचो अशें अस्तित्व आसता, तिच्यो कांय महत्वांकांक्षा आसता. तिची असामान्य बुद्धी आसता. चिड्डल्यो इच्छा आकांक्षा आसता. हे सगळें काळजांत घेवन ती जगता.

'काळजाची भरती' ह्या कविता झेल्यांत नीलाच्यो कांय प्रेम कविताय आसात. कवयित्रीचे मन प्रेमाच्या बाबतींत कितले भावूक आनी तरल हे पळयात.

*तुज्या धव्याफुल्ल हांशार दुबत । आनी निळे नदरेंत बुडत,*
*काळ्या मुदयाळ्या माथ्यांत घुसपत, । जिविताचे उदक*
*म्हाका वचपाचे आसा पेवन ।*

हांश्याक धवीफुल्ल ही उपमा दिवन तिणें आपल्या गोव्याक पवित्र म्हळां, निश्पाप म्हळां आनी संपूर्ण म्हळां, म्हणजे पळयात तिची मोग्या वयलो विस्वास.

जेन्ना ती ताचे नदरेंत आपल्याक निळाय दिसता आनी तांतूंत बुडचे कशें दिसचे. म्हणटा तेन्ना म्हाका दिसता तिका मोग्याच्या नदरेन मळबाची विशालकाय दिसता, खोलाय दिसता शिवाय मोग्या बद्दलचो विस्वास, ताची बुद्धीमत्ता, ताची हुशारकाय ह्या उतरांनी व्यक्त जाता.

काळ्या मुदयाळ्या केसाचो संदर्भ घेतना त्या केसांत तिका एक शक्त दिसता. एक घटसाण दिसता, आपूण हातूंत घुस्पलें जाल्यार केन्नाच सुटचें ना. अशा मनशाच्या आदारान तिका जिविताचें उदक पेंवत वचपाचें आसता म्हळ्यार तांचे वांगडा आख्खी जीण सारपाची तिची इत्सा आसता.

आनीक एका प्रेम कवितेंत कवयित्री म्हण्टा,

*दोळ्यांतले चान्ने म्हाका । तुजेर शिपूंक जाय*
*केसांतली ल्हाराय म्हाका । तुकाच ओपूंक जाय*
*तुकाच त्यो ओठांवयल्यो । फुलत्यो कळयो*
*आनी वेगेंतल्योय तुकाच त्यो । जायो - जुयो.*

अशा ह्या मोग्या बरोबर ती जीण सारतली तेन्ना तिच्या वयल्या कडव्यांतल्यान समर्पणाची भावना दिसून येता. तिच्या दोळ्यांत मळब आसा, मळबांत चंद्रीम आसा आनी ह्या चंद्रिमाचें चान्ने तिका आपल्या मोग्याचेर ल्हवू ल्हवू शिपडूंक जाय. आपल्या रस्मी केसांतली ल्हारा तिका ताच्या आंगा-खांद्यार खेळोवंक जाय. जेन्ना ती पूर्ण पणान ताच्या लागी वतली तेन्ना दोनूय ओंठाच्यो पाकळ्यो ती जेन्ना ताच्या सुवादीन करतली तेन्ना वेंगेत जायो जुयो परमळ्ळ्याचो भास जातलो.

एका प्रणयरम्य अश्या तनरेचे अपरूप रूप आमकां ह्या कवितेन मेळटा. कवयित्रीक मोग्याची कितली ओड हाची गवाय ही कविता दिता. प्रेमांतले शरीराचे अस्तित्व आनी महत्व ती नाकारिना. प्रेम आनी प्रणयाचो एक सुखद अणभव हांगां वाचप्यांक मेळटा.

*'शून्यांतल्यान शुन्याकडेन'* हो निलाचो दुसरो कविता संग्रह.

ह्या संग्रहांतल्यो कविता म्हळ्यार कवयित्रीचे उमाळे. ह्या उमाळ्यांनी समाज जिणे विर्शी तिडक आसा, एक वेदना आसा आनी ती तिच्या उतरा उतरांनी जाणवता. तिका खूब प्रस्न पडल्यात ती म्हणटा.

*ते थंय वठिल्ले झाड । म्हळ्यार*
*संवेदना गोठिल्ली कूड? वा मनीस कसो? बरोय*
*बुदवंत, शाणो, तसो दिना केन्नाच घुस्पूंक मान*
*वेळ पडल्यार तुजो गोळ्याक लावन*

ह्या प्रस्नांच्यो जापो ताका मेळना आनी ती खंती जाता. तिच्या चडश्या कवितांनीं अस्तुरेच्या जिणेची व्यथा व्यक्त करपाची नदर आशिल्ल्यान खूब कडेन तिची कविता कांय विधाना करता आनी थंयच सोंपता.

अस्तुरेच्या जिणेन चांटेपावलाक आयिल्ल्या अणभवाची झलक ल्हान ल्हान उतरांनी सांगून तें मेकळें जाता.

पुरुष प्रधान संस्कृतीचेर बडी मारता ते म्हण्टा,

*हांवें केल्यार खून । तुवें केल्यार शासन*
*कित्याक तर । हांव पडलें बायल मनीस*
*आनी तूं म्हालगडो पुरुस*

केन्ना केन्ना कवियित्री स्वताचेरूच उबगता, तिडकता. तिका दिसता मनीसपणाचे जें दायज तिका मेळ्ळे ते तिच्यातल्या कांय उणीवांक लागून फुकट गेलें. हे तिणें सहज म्हळें काय मनांतल्या उद्रेकाक लागून म्हळां हे सोदचे पडटलें. ती म्हण्टा,

*बोथट हांव । म्हज्या रागाक धार ना*
*म्हज्या मोगाक सूर ना । म्हज्या दुःख्खाख आवेग ना*
*सुखाक वेग ना । जिबेक रूच ना*
*दोळ्यांक व्हिस्त ना । कानाक श्रवण ना*
*कातीक भान ना । अशें हांव बोथट*
*मनीसपणाचे दायज फुकट*

*'शुन्यांतल्यान शुन्याकडेन'* ह्या कविता झेल्यांतलो हेर कविता वाचतना दिसता ताच्या चडश्या कविते फाटल्यान कसली ना कसली काणी लिपल्या. वास्तवाची धग लागिल्ल्यो हयो कविता आपसूंक चिंतूक लायतात.

नीलाची कविता अल्पादारी... आनी निलाय तशेच शांत, आत्ममग्न, काळजांतल्या दर्यान केदीय आकांताळी ल्हारा येवं तोंडार प्रसन्न हांसो फांकोवन संथपणान जीण जगपी.

तूं आनी तुजी कविता सदांच याद उरतली निला...

संपर्क: 9970445778



# मागणें

संगीता नायक

“घणसूऽऽ... पुता, उठ मरे मात्सो. साडे पांच जायत येयलीं पय.” आवयच्या उल्यान हांव धप करून उठून बसलों. उठलो गे आई, म्हणत हांवें न्हाणये कडेन धाव मारली. बेगीन बेगीन चूळ भरून खोंपीच्या पडशे वयली प्लास्टिकची कळशी उबारून वारव्याची वाट धरली.

उशीर जालो जाल्यार होणव्यांत उदक कांयच मेळचें ना. दत्ताकाका, गुलाबी मावशी, गुणवंती आते सगलींच जाणां फांत्यापारार येतात वारवे शिंपूंक. आयज उदक मेळ्ळें ना जाल्यार... आईन दीस रात जीव काबार करून, कुणगो तयार करून लायलली कणग्याची वाल सुकून वयतली.

आरे वा! आयज आयतार देखून चडशी जाणां न्हिदून उरलीं दिसता. वारव्यान कोण दिसना. आनी होणव्याकूय उदक बरेंच आसा.

हे वारवे शिंपपाचें काम म्हाज्या भोव घोस्ताचें. होणव्यान देंवून बुड्क करून कळशी भरची... वयर हाडून कळशी पोटा कडेन धरून मात्शी वांकडी करची. मागीर कळशेच्या तोंडार हात दवरून हात हालयत उदकाचो स्प्रे मारत कुणगो भर धांवचें. पाणी पडलें काय झाडां मुमुरखीं हासतात आनी वाऱ्यार धोलतात. हांव जाणां म्हाका ‘थँक यु’ म्हणटात तीं!

कामाचें काम आनी उदकान खेळपाचे उदकान खेळप! आनी घरा वयतकीर ‘म्हाजो गुणाचो पूत तो, म्हणत आई खांक्यान घेता तें वेगळेंच. पूण ते वेळार तिच्या दोळ्यांत दूकां येतात तें मात म्हाका सामकें बरें दिसना. हांव खंय हरशीं वारवे शिंपूंक वच? आईच करी सगलें. पूण जाले पंदराएक दीस, आईक बरें ना. जोर आनी खोंकली. उदकान हात घालूं नाका म्हूण ताकीद दिल्या सेंटरांतल्या दोतोरान.

आयज आमी शेतांत बावलो करचेले आसात. हांव आनी शेबे आईलो शिवदास मेळोन. हो पय येयलो शिवदास.

“जालें रे म्हाजें. ही काने पात तितली शिंपून घेतां.”

“तितले म्हणसर होणव्या वयल्या बोरीचीं बोरां पुनायतां रे हांव!” शिवदासान हाळी दिली.

आमच्या ह्या होणव्या कडल्या बोरीचीं बोरां सामकीं गोड गोड... साकर.

“ए शिवदास, तोंड तरी धुलां मरे? भकन भकन भकनता तीं बोरां.”

“हय रे, व्हडलो आजो तूं. यो आनी ही ती व्हडली खांदी हालय मातशी.” म्हणत शिवदासान म्हाकाय कामाक लायलो.

बोरां पुनावपाचे मोठें काम जातकीच आमी शेतांतलो बावलो करपाक घेतलो. पोरन्या बुड्कुल्याची तकली आनी म्हाजे पोरने कपडे घालून पयतां पयतां उबो जालो आमचो बावलेश्वर.

“सामको झेतान शिवाजी शेतान उबो न्हुरे,” म्हणत शिवदास होणव्या देगेच्या मेरेर तेंकलो.

“ए घणसू आयज हांवेन देवळा कडल्या झाडाक बांदपाक दोन तिराटें हाडल्यात.” आपल्या हातांतले तांबडे तिराटें हालयत शिवदासान म्हाका सांगलें. “किदें मागपाक रे? कसलें मागणें करपाक रे?”

“एक म्हाका नवीन जिनची पेंट जाय म्हणोन आनी दुसरो... आसूं तें...,” हे सांगताना शिवदास लजेलो सो, कॉमेडी मरे.

“ए सांग रे शिवदास ... प्लिज सांग रे... दुसरो तिरांटो किद्याक तो?”

“सांगतां पूण कोणाकूच सांगो नाका हां. तुका गणपतीचो सोपूत. हो दुसरो तिरांटो फाल्या सांजे वयल्या वाड्या वयल्या शालीन देवळांत येवचें म्हणोन.”

“ए पूण तें येयलें ना येयलें तुका रे किदें पड्लां?”

“तुका कळचें ना तें. तूं व्हडलो जावंक जाय मात्सो आजून,” म्हणत शिवदासान तिराटे बोलसांन घातले. उलयतां उलयतां देवळाशीन पावले सुद्दां.

देवा कडेन कोणकूय किदेंय मागचें जाल्यार ह्या देवाच्या झाडाक तिरांटो बांदल्यार पुरो. मनांत आसा तशें जाता अशें सगलेजाण मानतात.

लोकांच्या हजारांनी मागण्यांच्या हरव्या तांबड्या तिरांट्यांनी सामकें भरून गेलां हें झाड. शिवदासान दोळे धांपून मागणें केलें आनी दोनूय तिराटे झाडाचे फांदयेक बांदले. इतल्यान म्हजी नजर देवळा फुड्यांतल्या भाटकाराच्या घरार पडली. तेंगेलो बिराड्कार बाल्कनींत बसोन आमकांच पयतालो. तेचें तें येदें व्हडलें खाड... आनी वयल्यान आसा उंच माड.

“सामको राकोस कसो न्हू रे” हांव बिराड्काराक पळयतां तें पळोवन शिवदासान म्हणलें.

“व्हडल्याक तशें म्हणप नासता. चल या आमी हांगाच्यान.”

घरा पावून न्हावन धुवून अभ्यासाक बसलों. पुण तकलेर परवांचें टेन्शन. जोग्राफीच्या टिचरीन मॅप रंगोवपाक रंगीत

पेन्सिली हाड म्हणल्यात. काल येतना गोयेकाराल्या मांडार विचारलें हांवें. पंचवीस रुपया खंय! पयशे ना म्हूणोन अर्देंच वखद हाडलां आईन. तिजे कडेन आनी किदें म्हूण मागूं पयशे? आसूं थंय. टिचरी कडल्यान तापसवणी पडटली खरी. पूण पडूं... फकत क्लासी भायर मात घालना जाल्यार पुरो. म्हाका खूब आवडटा जोग्राफी. कितले गांव, कितले देश, कितले भशेची मनशां एक वेगळेंच जग!

शिवदासान तिरांटे बांदून मागणें केलां तशें करूं काय? हय करतांच हें काम. देव आयकतलोच म्हाजें.

पूण देवाक कशें कळटलें हांव किदें मागूंक सोदतां तें? कितले तिरांटे, कितलीं मागणीं! हांव एक चिटूच बरयतोलों देवाक...

ही जाली बरोवन. आतां ही चीट तिरांट्याक बांदून व्हरून बांदतां देवाच्या झाडाक.

ह्या खाड्या बिराड्काराक आनी काम धंदो कांय ना काय किदें? केन्नाय पय बाल्कनीत बसून येतल्या वयतल्याक पळयत आसता.

आसूं थंय म्हाका किद्याक पडलां! देवा ही म्हाजी चीट तुका. म्हाका मदत कर!

सांजे देवळान भजनाक गेलेले कडेन मजाच जाली. शिवदास हातान टाळ पेट्टा... पुण नदर मात दारा कडेन. परत परत टाळ हातार मारून घेता आनी हाय हूय करता. दत्ता काकान एकदां हटकिलो सुद्दां तेका. मदल्या वेळार उसळ च्या वांट्या तेन्ना मात हो नेटार. पळयतां जाल्यार किदें, शाली आयलां देवळांत.

हांयेन देवाच्या झाडा वाटेन नदर मारली. देवा शिवदासाचें आयकलां तशेंच म्हाजेंय बी आयक रे सायबा!

ते राती म्हाका कितलीं सपनां म्हूण सांगू! देवान म्हाका रंगीत पेन्सिलींनी भरलल्या व्हडल्या कुडांत हेला आनी म्हणटा ''व्हर. तुका जाय तितल्यो पेन्सिली. व्हर...''

दुसरे दिसा फांत्या पारार आईन उलो मारच्या पयलीं उठलों. वारव्या कडेन गेलों गेऽ म्हणत धांवलों पयलो देवळा कडेन. देवाच्या झाडाच्या आशीकुशीक देवान म्हाजे खातीर पेन्सिलींचें बॉक्स बी दवरलां काय म्हूण बेश्टेंच चेक करून येयलों. ना कांय... दिसना. मागीर उजवाड्टकीच मारतां परत पासय. पयलीं वारवे शिंपून येतां.

शिंपून जाता म्हूणसर दीस उजवाड्लो. आरे! ह्या म्हाज्या शेतांतल्या बावल्यांच्या बोल्सांत रे किदें? रंगीत पेन्सिलींचें बॉक्स!

आयकलें देवान म्हाजे आयकलें... हूर्रे...! आयज हांव बरे भशेन रंगयतलों म्हजें मॅप, म्हज्या देवाच्या रंगांनी! देवा, थँक यु!

शाळेंत हांवें शिवदासाक देवान दिल्लें रंगीत पेन्सिलींचें बॉक्स दाखयलें. तोवूय अजाप! आयज आनी किदेंय हेच्या पासून बरें मागुंया म्हुण सांगतालो. पूण हांवें सांगलें, देवान म्हाका गरजेक मदत केल्या, फोलगाक न्हूं. गरज आसता तेन्नाच तेका उलो मारप. इतलें सांगलां आसताना, ते दिसाच्यान हो बोडें तिरांटें बांदत आसा. बांदत आसा देवाच्या झाडाक. देवाक बावड्याक दुसरो काम धंदो ना काय किदें, फकत हेचींच कामां घेवन बसपाक!

फाल्यां सायंसाचो पेपर. तयारी जाल्या तशी म्हाजी पूण रिविजन मात मना सारकें जावंक ना. आतां सांजेचो आदेस बसून करतां परत एकदां रिविजन.

''आई तूं खंय वयता गे?''

''भाटकारागेर वचून येतां मातशे. खळ्याक शेण काडूंक आपयलां तेंगेर.''

''पूण जिवाच्यान नजो न्हू गे तुज्या?''

''फाल्यां पुजा आसा रे तेंगेर. वच्चेंच पड्टलें.''

''राव तर. हांवूय येतां वांगडा.''

''नाका रे शाण्या. तूं कर तुजो अभ्यास.''

''तें कांय ना. हांव येतलोंच. केदें व्हडलें खळें तेंचें. घरा पावतां म्हणसर परत जोर येवून पड्टली.''

हातांतलो सायन्साचो कादेन बंद करून हांवूय आई फाटल्यांन भाटकारागेर पावलों. बालदेंत शेण आनी उदक घालून बरें कालोवन हांवें तें व्हरून व्हरून खळ्यांत ओतलें, आनी आईन तें सान्नीच्या खुंटाऱ्यान खळें भर पातळायलें.

सगळें काम जायसर सांज जाली. तकली जड जाल्या, आनी हातांत गुळे येयल्यात. पूण आता बसचेंच पड्टलें सायन्स घेवन ना जाल्यार फाल्यां बरोच प्रॉब्लेम जातलो.

ना... सामकें नज म्हाज्यान. तकली सकयल घालून पुस्तक पळयल्यारूच तकली कणकणटा. फाल्यां सकाळीं उठून बसतां अभ्यासाक. पूण बेगीन जाग येयली ना जाल्यार?

कशी येवचीना? देवा कडेन मागणें करून येतां. बेगीन बेगीन चीट बरयली. देवा म्हाका सायन्स रिविजन करचें आसा, म्हाका चारांक जाग येवनी. धावोन वचोन चीट देवाच्या झाडाक बांदली आनी घरा येवन येकदांचो हांथरुणार शेवटलों. दुसरे दिसा जाग आयली तेन्ना आवय लेगून उठूंक नासली. आयकलें देवान म्हाजें! कळशी फाटीर मारून वारव्या वाटेन धांवलों. पयतां जाल्यार किदें? हाव वच्या पयलींच कोणें तरी आमचे वारवे शिपला आनी म्हाज्या शेतांतल्या बावल्याच्या बोलसांत एक पाकीट आसा.

उगडून पळयत जाल्यार सायसिंतले इपोर्टंट प्रस्न आनी सायन्स रिविजन कशें करचें हें मोतयां सारक्या अक्षरान बरयल्लें आसा.

देवा म्हाजेर तुजी इतली माया! आई भशेन म्हाजेय दोळे भरले.

धांवत धांवत घरा वचोन अभ्यासाक बसलों. देवान सांगलां तसोच मन लावन अभ्यास केलो, आनी ते दिसा विज्ञानाचो पेपर सामको फोड्लो. आवट ऑफ सुद्दां पड्त म्हाका मार्क!

परिक्षा जातकच सुटी पडली. आईकूय मात्सो सुशेग जाय म्हूणोन चार दीस सांग्यार मामागेर रावोन येयलीं आमी.

घरा पावलों तसो धांवलों हांव देवळा कडेन. देवाक म्हाका सांगूंक जाय आसलें तेची म्हाका कितली याद येयली ती.

आयज हो खाड्यो बिराड्कार दिसना सो बाल्कनीत?

''ए घणसू, तुज्या पसत खाडया बिराड्कारान पार्सल दवरलां. तो गेलो बिराड सोडून पयर'' म्हणत भट काकान म्हाज्या हातार एक पार्सल दवरलें.

''सामकें म्हाकाच न्हू हें पार्सल?''

''आरे होय रे. हें पळय तुजें नाव बरयलां हांगासर घनश्याम म्हणून. भट काकान म्हाका थंय बरयलेलें म्हाजें नांव दाखयलें.

बऱ्याचें मरे हे वळख ना देख. आनी हो म्हाका सो पार्सल दवरता?

भियेत भियेत हांवें पार्सल उगडलें. भितर एक कादेन आसलो. उगडून पळयत जाल्यार मोतया भशेन अक्षर... म्हाज्या देवाचें अक्षर! शे ! हें आनी किदें? नदर काडनसताना हांव वाचत रावलों.

''मोगाळ घनश्याम, तुका दिसलां तशें हें देवाचें अक्षर न्ही. हें पत्रय हांवेंच बरयलां आनी तूं देव करता म्हूण समजतालो त्यो सगल्यो गजालीय हांवेंच केल्यात. हांगा रावपाक आयिल्ल्याक हांव तुका पळयतां तूं हेर भुरग्यां परस वेगळो. आपल्या दुयेंत आवयची मन लावन सेवा करपी. आनी तितलेच आवडीन शिकपीय बी. म्हाका तुजी खरीच अपुरबाय दिसताली. तेकाच लागून हांवें तुजी देवाक म्हूण बरयल्ली चीट काडून वाचली आनी तुजे पासत रंगीत पेन्सिलींचें बॉक्स हाडलें. तुजे दुसरे चिटींत म्हाका तुजी शिकपाची तळमळ दिसली. ताकाच लागून हांवें मानाय लावन तुजे वारवे शिंपून घेतले. हांव पयलीं इस्कॉलांत शिकयतलों, देखून तुका सायन्सांत गायड करपी नोट्स हांवें तुजे पासत तयार केल्ले. आशा आसा तुका ताचो बरे तरेन उपेग जाला आसतलो. तुमी भुरगे म्हाका भियेतात हें हांव जाणां. तेकाच लागून हांवें तुका सांगनासताना तुका मदत केली. देवा कडेन मागल्यार देव जायतें दिता ह्या फटीच्या भ्रमांत मात म्हाका तुका दवरपाचो नाशिल्लो. म्हाका तुका हें सगळें म्हऱ्यांत बसोवन सांगपाचें आशिल्लें. पूण तुजें सुट्येक वचप आनी म्हजे गांव सोडून वचप एक बरोबर जाल्ल्यान हांव तुजे पासत ही चीट बरोवन दवरतां.

केन्नाय म्हजी गरज लागल्यार सकयल दिल्ल्या म्हज्या फोन नंबराचेर फोन कर. तुजोच नंदा काका.''

दोनूय हातांनी कादेन काळजा कडेन घट्ट धरून एक नवो हांव. देवळां कडेन फाट करून, घरा वटेन चलत रावलों...

संपर्क : 8805162600



(पान ७ वयल्यान)

ह्या बाबतींत कोंकणींत संसाधना रचपांत आमकां खूब त्रास जाता कारण खंयच्या महाविद्यालयच्या वा विद्यापीठच्या कोंकणी अभ्यासक्रमांत विवीध ज्ञानशाखांचे गिज्ञान निर्मीतीचो आसपाव ना. देखीक गोंयची पॉलीटीक इकॉनोमी ह्या विशयाचेर परिक्रमा सातत्यान फाटली तीन वर्सां संशोधन साहित्य निर्मीती करपाचो यत्न करता.

खंतीची गजाल ही, गिन्यान निर्मुवप हो कोंकणी अभ्यासक्रमाचो आजून मेरेन भाग जावुंना. साहित्य, लोकवेद आनी भासशास्त्र होच कोंकणी अभ्यासक्रमाचो गाभो जाता. खंयचीय गजाल जो मेरेन मनशाच्या दिसपट्टे जिणेंत फरक घालीना तो मेरेन ती गजाल म्हत्व प्राप्त करीना. जो मेरेन म्हत्व प्राप्त करीना तो मेरेन ताका ताक येना. आनी जर सर्तीच्या जगांत खंयचे गजालीक ताक ना जाल्यार ती गजाल लुप्त जाता. भास हें फकत संपर्काचें माध्यम न्हय. भाशेक आर्थीक आनी राजकी आयाम आसता आनी देखून भास ही उलोवप्यांचो राजकी आनी आर्थीक दर्जो थारायता.

संपर्क : 7507388596 

# घाम

कृ. म. सुखठणकार



कबीर म्हणटा 'झीनी झीनी बीनी चदरिया काहे कै ताना काहे कै भरनी कौन तार से बीनी चदरिया'. कबीरान हें आमचें कुडीक उद्देशून म्हणलां हें मातशी तकली वापरल्यार आमकां कळटा. जर आमचीं कूड चादर (कबीर म्हणटा तशी) जाल्यार आमचे कुडीक चादरी वरीच बारीक छिद्रां आसचीं पडलीं. ह्या छिद्रांतल्यान वीज वतकच उदका वरी खारट द्रव्य भायर सरता ताका आमी घाम, हूम, पसीना sweat अशें म्हणटात. आदल्या काळांत जेन्ना मनीस कश्ट करतालो तेन्ना ताचे कुडींतल्यान असोच घाम येतालो अशें आमकां पुस्तकांनी वाचपाक मेळटा. आज वीज वचून फॅन, एसी बंद पडटकच आमचे कुडींतल्यान घामाच्यो पांवळ्यो रकतात. 'करवटें बदलते रहे सारी रात हम आप की कसम' अशी वीज वतकच आमची स्थिती जाता हें सगळ्यांक खबर आसा. तें सांगपाक आप की कसम घेवपाची गरज ना. सोड.

'Moisture exuded through the pores of the skin, typically in profuse quantities as a reaction to heat, physical exertion, fever or fear' असो गोरो सायब घामाचें वर्णन करता. गोऱ्या सायबांक येद्याचें येदें करपाची पयली पसून संवय. 'The empire on which the sun never sets (el imperio donde nunca se pone el sol)' अशें गोऱ्या लोकांचे तेन्नाचे राजवटीचें अशे तरेन वर्णन करपी हे लोक. आंगांतल्यान लायट वतकच जें उदक व्हांवता, तोंडांत वचत जाल्यार खारट लागता आनी दोळ्यांत वचत जाल्यार चुरचुरता ताका घाम म्हणटात. ही हावें दिल्ली सुटसुटीत म्हायती पळयात. परिक्षेक घाम म्हणल्यार कितें असो प्रस्न आयल्यार सहज दोन गूण मेळोवं येतात. आसूं. गोरे सायब सांगतात तें आयकत जाल्यार त्रासांत पडपाची दाट शक्यताय आसा. तेच सूर्य पृथ्वी भोंवती फिरता अशें म्हणटाले. मागीर तेच पृथ्वी सुर्या भोंवती घुंवता म्हणपाक लागले. तेच धडे आमच्या पाठ्य पुस्तकांनी आयले. आमी असलें कांय केन्नाच म्हणलेंना आनी कोणें केन्नाय चुकून म्हणल्यारूय पुस्तकांनी तें आयलेंना. फाटीं आर्यभट कोणालो पुरैत अशें हिणें म्हाका विचारिल्लें. सोड. आमचीं पंचांगां, गिराणां खंयचे तारखेक, खंयच्या वेळार येतलीं हें अचूक सांगतात. तीं सेकंदाक लेगीत चुकनात. हांव पंचांगांत सांगिल्ल्या वेळेर आमच्या देवांक (देवाऱ्यांतल्या) उदकांत घालून बसतां. एकदां ही गिराणा कडेन (खंयचे खेपे तें याद ना) गुरवार आशिल्ली. म्हणटकच प्रिकोशनरी मेजर म्हणून आमी शिकेरकर गुरूजी कडेन गेलीं. शिकेरकर गुरूजी Dos and Donts बरे वेवस्थीत सांगता. म्हाका ताणें 'गृहण काळांत लघुशंका करू नये, गृहण काळांत जो शौचास जातो त्याला पोटाचे विकार होतात आणि हिने गृहण काळात खाजवु नये. पोटातल्या अभ्रकास इजा होण्याची शक्यता असते' अशें सांगलें. म्हणटकच आमी गृहण काळांत लघुशंका केली ना, शौचास गेलीं ना आनी गृहण काळात सगळे कडेन बुड्डलें तरी खाजयलें ना. सांगपाचें म्हणल्यार गोऱ्या सायबान घामा विशीं जी आमकां म्हायती दिल्या ताचेर आमी पातयेवन रावं नजऽ गोरो सायब म्हणटा तशें घाम हो फकत moisture न्हय. हे खातीर आमकां आमचीं पुराणां वाच्चीं पडटलीं. पुराणांत घामा पसून भुरगीं जाल्यांत हें कितले जाणांक खबर आसा? हें वाचतकच खुबशे जाण आपलो घाम पुसूंक लागतले हें म्हाका खबर आसा. 'पुराणांतलीं वांयगीं' म्हणून आमी आमचीं पुराणां काडून कुशीक दवरल्यांत ताचो परिणाम भयंकर जांवयेता हें अजून आमच्या लक्षांत येवंक ना. जेन्ना लक्षांत येतलें तेन्ना खूब उशीर जाल्लो आसतलो. लंका लासून येतना हनुमानाक घाम आयिल्लो. ताचो एक थेंबो दर्यांत पडलो. तो एका नुस्त्यान गिळ्ळो आनी तें गुरवार जालें. ताका एक भुरगें जालें. ताचें नांव मकरध्वज. अशीच शिवपुराणांतली आनीक एक घडणूक. महादेव मंदार पर्वताचेर ध्यानाक बशिल्लो. पार्वतीन फाटल्यांतल्यान येवन ताचे दोळे धांपले. दोळे धांपतना पार्वतीचे हात तेंवेले खंय. घामाचे कांय थेंबे (नेमकी मात्रा खबरना) जमनीर पडले. ह्या थेंब्यांनी एका भुरग्याक जल्म दिलो. ताचें नांव अन्धक. हे खातीर आमी सदांच जंय वतात थंय लेंस घेवन वचपाची सामकी गरज आसा. खंय, केन्ना आमच्या घामाचे थेंबे पडून भुरगीं तयार जायत आनी 'डाडाऽऽ' म्हणून उलो मारीत सांगू नजऽ. ही सगळी म्हायती आमकां गोरे सायब दिवंचे नात. आमचीं पुराणां चोरून तांणी मिसायल्स, विमानां हांचो सोद लायलो हें सत्य हालींच उक्ताडार आयलां.

घामा पासून भुरगीं कशीं जालीं हाची जाप आयचे तारखेक, स्त्री रोग तज्ञ, प्रसुतिशास्त्रज्ञ हांचे कडेन ना. अश्या समयार आज आमी आमच्या घामाची फावो ती काळजी घेवपाक जाय आनी हांव ती घेतां. फाटल्या दिसांनी हिका कण्याचो भयंकर त्रास जालो. दोतोर रायकारान हिका सकयल शेंदरी घालून न्हीद म्हणून सांगिल्लें. त्यो प्रमाण ही सकयल न्हिदताली आनी हांव वयर खाटीर. रायबंदरा मातसो वारो येतकच वीज वता. हांव न्हिदतना फूल हाताचें बानयान घालून न्हिदतां. म्हाका संवय तुमचे म्हायते खातीर. वीज वतकच सगळे वठेंतल्यान घामाच्यो पावळ्यो रकतात. पूण हांव म्हज्या घामाचो एक थेंबो पसून सकयल पडचोना हाची काळजी घेतां. कारण सकयल ही घोरेतना तोंड आंऽऽ करून न्हिदता. चुकून जरी घामाचो एक थेंब हिच्या तोंडांत पडलो जाल्यार आनीक एक मकरध्वज जल्माक आयलोच समजा. पयलींच तीग जाणां गांठीक आशिल्ल्यान आनीक एक मकरध्वज आमकां परवडना. आसूं.

मनीसजात म्हणटकच सगल्यांक घाम हो येताच. पुणून घाम येवपाचें

प्रमाण मात सगळ्यां खातीर सारकें नासता. थोड्यांक फॅन नासल्यार लेगीत घाम येना जाल्यार थोड्यांक एसींत लेगी घामाचे लोट व्हांवतात. कितलो घाम येवप हें दर एकल्याचे कालेतीचेर निंबून.

आदल्यो सगल्यो नट्यो झाडां सरभोंवतणीं भौंताडे मारून पदां म्हणटाल्यो. अशीं दोन तीन पदां म्हणून जातकच, इण्टरवाला उपरांत तांचो मोग जातालो. मागीर तांचो मिशयाळो बापूय 'ये शादी हरगीज नही होगी' अशें जाहीर करतालो. तर, हातुंतल्या कांय नट्यांक झाडा भोंवतणी फेरे मारून लेगीत घाम येनाशिल्लो. तर थोड्यो नट्यो घरांत बसून पियानोचेर पद म्हणून लेगीत घामाघूम जाताल्यो. देखीक, वहीदा रेहमान 'प्रेम पुजारी' सिनेम्यांत तिणें तणांत घुसून पद म्हणलां तरी तिका घाम येवंकना. पूण देवानंद मात घामाघूम जाल्लो दिश्टी पड्टा. दत्ता आनी हांव सिनेमें पळोवपाक वताले तेन्ना खंयचे नट्येक कितलो घाम येता हाचेर आमचे बारीक लक्ष आसतालें. रामेश्वरी, दिप्ती नवल ह्यो नट्यो घरा बशिल्ले कडेन घामाघूम जातात असो म्हजो अभ्यास सांगता. घाम येतकच कुडींतल्यान एक वेगळ्याच प्रकारचो वास भायर सरता ताका आमी घामसाण अशें म्हणटात. दर एकल्याची घामाची मात्रा वेगळी तशीच दर एकल्याची घामसाण वेगळी. हें आमकां 'जब भी खयालों में तू आये मेरे बदन से खुशबु आये' ही पदाची वळ आयकतच कळटा. नलुगेर मुंबय वतकच हांव कपडें धुवंक उड्यतालों आनी साड्य आपले उड्यतालो. आमचीं बानयाना बी भरसतालीं. मागीर नलू बानयानाच्या वासार, 'हें बनयन भावोजीचें' म्हूण ज्यूस्त वळखतालें. हाचे वयल्यान मनीस आनी घाम हांकां आमी वेगेळे करूंक शकनात हें प्रोव्हार जाता. घामसाणींत आनीक कसलो गंध भरसत जाल्यार आनीक एक वेगळोच गंध तयार जाता हें हांवें स्वता अणभवलां. ही जेन्ना लग्न जावन आमगेर आयली तेन्ना म्हजो हिचे बराबर अमृतांजना कडेन संबंद आयलो हें तुमकां खबरूच आसा. अमृतांजन सारोवन जातकच मागीर वीज वतकच अमृतांजन आनी मागीर आयिल्लो घाम हांचें मिश्रण जावन तें कूड भर पसरता. वीज येतकच फॅनाच्या वाऱ्या वांगडा मागीर तें घर भर जाता. पूण चादरी आनी उश्याफ्राँजी हांचो वास मात त्यो धुवंक घालऽ मेरेन वचना. मत्सगंधेक घाम येतकच तिच्या घरकाराची कितें परिस्थिती जाल्या आसतली हाची म्हाका पूर्ण जाणीव आसा.

आमचीं लग्नां चड्शी मे म्हयन्यांत जातात, म्हजेंय जाल्लें. होम घालतकच ज्यूस्त वीज गेली. ताचे आदीं नलून म्हाका चांदीच्या पेल्यांत गरम दूद दिल्लें. तें पियेवन घाम आयिल्लोच. तातूंत होमाच्या धुंवराची आनी गरमेची भर पडली. गळ्यांत हार, कॉलरी मेरेन स्टयल म्हणून बुतांव लायिल्ले. कॉलरी मेरेन बुतांव लायल्यार तुका पोजिसांव येतलें अशी दत्तान सुचोवणी केल्ली ती हांवें मानून घेतिल्ली. घामाची पांवळी सुरू जावन ती भितरल्यान खंय मेरेन पावली ती म्हाका थंड्साणे वयल्यान कळटलें. कपलाक बाशींग बांदिल्लें तें म्हजे सायजीचें न मेळिल्ल्यान तें म्हज्या कपलाक पाखें बांदिल्ले वरी दिसतालें. थोड्या वेळान त्या पाख्यांतल्यान आशाढ पावळी कसो घाम गळपाक लागलो. थोडे फात आनी टाय मारून सव्यार कशे उबे रावतात हाचें म्हाका कौतूक दिसता. हो मनीस तकले कडल्यान पांयाच्या बोटां मेरेन घामान थपथपला हें सव्यार ताका हात दितकच कळटा. ताचो घामान तेंवेल्लो हात लोकांक हात दिवन ताचे वरीच मोव पडिल्लो आसता. सोड. हें जालें न्हवऱ्याचें. व्हंकलेक घाम येत जाल्यार सगळ्यांकूच त्रास जांव येतात. कारण घरच्यांनी तिचें खरें रूपडें लिपोवपा खातीर ब्युटिशन हाडून तिचे मुखाचेर कितलेशेच थर चडयल्ले आसतात. चड प्रमाणांत घाम येत जाल्यार हे थर एक एक करून सकयल देंवपाचो भंय आसता. हे खातीर (तिचे म्हऱ्यांत) व्हंकलपावणी जाय सर तिची भयण वा लागीचीं सोयरी जिका हो प्रॉब्लेम खबर आसता ती टिश्यू पेपर घेवन उबी आसता. तोंडार घाम दिसलो की ती तो टिश्यूपेपर लावन थंयचे थंय पुसून काड्टा. केन्ना केन्ना लिप्स्टीक आनी तोंडा वयलो मेकअप हांचें घामाक लागून मिलन जाता. मागीर व्हंकलेचें तोंड कथकली नाचांत घालतात त्या मुखड्या वरी दिसता. हाका लागून तोंडा कडलो घाम व्हंकल स्वता आपल्या लेंसांन पुसता. हांव म्हज्या माथ्याक खोबरेल तेल घालतां. दनपारचीं बारां जालीं की घामा बराबर हें खोबरेल तकले वयल्यान सकयल देंवता. महादेवाच्या तकले वयल्यान जशी गंगा व्हांवता तशेंच घाम आनी खोबरेल म्हज्या बोडा वयल्यान व्हांवता. प्रॉसेस सारकोच जें वयल्यान सकयल येता तातूंत मातसो देफेरेन्स. हे खातीर हांव म्हज्या बॉल्सांत सदांच दोन लेंस दवरतां. एक घाम पुसपाक आनी दुसरो तोंड हात बी पुसपाक, तुमचे म्हायते खातीर.

घाम सदांच कपला वयल्यान वा कानसुला कडल्यान सकयल देंवपाक जाय अशें ना. आमी मात लेंस चेऱ्या वयल्यानूच भोंवडायतात हें खरें. संवयेचो गूण तो. आदल्या सिनेम्यांनी नायक कपलाक तुवालो बांदून शेतांत, उसांच्या मळ्यांत बी काम करतालो वा सदांच कुराड घेवन आंगणांत लांकडां फोड्टालो. नायिका उदकाचो तांबयो घेवन येतकच तो हातांत आसा तें आयूध सकयल दवरून तकलेचो तुवालो कमराक बांदतालो आनी उजव्या हाताच्या पयल्या बोटाचें केंकेलें करून कपला वयलो घाम पुसून काड्टालो. वयर सांगलां तशें आमकां घाम वीज वचत जाल्यारूच येता. आज घरांत गॅस आयिल्ल्या कारणान लांकडां फोडूंक कोण वचना. संजिवनी कारखान्याक घरघर लागिल्ल्यान आज उसाचे मळे गोंयांत उरल्यात अशें म्हाका दिसना. फाटल्या दिसांनी व्हॉट्सएपार 'तुज्या बापायन लायला ऊस' हाचे पुरतो ऊस पळयलो आनी आयकलो. सोड. तर, घाम कपला वयल्यान येवपाचो आतां कमी जाला. घाम कुडीचे बाकीचे सुवातींरूय येता हें खूब जाणांक खबर ना. कुडीक सगळे कडेन सारकींच छिद्रां आशिल्ले कारणान वीज वतकच घाम सगळे कडच्यान सारकोच व्हांवता. घाम खांक्यांतल्यान व्हांवता. हाका लागून आमचीं खोमसां पिड्डेर जातात. आमी हातांचीं बानयानां घालतात तीं हेच खातीर. थोडें हातकापीं बानयानां घालतात तें हांवें पळयलां. तांचो उपेग कितें तें तांकांच विचारचें पड्टलें. घामाक लागून खोमीस खांक्यांत हळदुवें जाता आनी मागीर तें पिंजता. घामाक लागून कुडीर बारीक पुळेर येता ताका आमी घामोळें म्हणटात. घामोळें चड करून फाटीर येता.

म्हाका घामोळें खूब येता. नलू आमगेर आसतना (लग्ना आदीं) शिंपी घेवन तोंडांत सूऽ सूऽ आवाज करीत तीं तें फोड्यलें. हांव आंगणांत तुळशी कडेन बसतालों थंय हो घामोळें फोडपाचो प्रोग्राम जातालो. नलून घामोळें फोडचें हे खातीर घामोळें येवचें अशें सदांच दिसतालें. आतां पयलीं सारके घामोळें येना. खूबश्यो गजाली आतां पयलीं सारक्यो जायनात तातुंतलेंच हें घामोळें. जशी खळी तुंबता तशेच फाटी वयलीं छिद्रां तुंबून पयलीं सारको घाम व्हांवना आसुंये.

घाम वीज वतकच येवपाक जाय अशें ना. ते खातीर आनिकूय कारणां आसुंयेतात. मसाल्याचें, तिखट बी खायत जाल्यार घाम येता आनी हो घाम खांकेंतल्यान येनासतना काना फाटल्यांतल्यान वा केंसांतल्यान व्हांवपाक लागता. तिखट खाल्ल्यान नाकूय व्हांवपाक लागिल्ल्यान घाम पुसूं काय नाक पुसूं असो आकांत खावप्याचेर येता. आनी ही कसरत पळोवप्या खातीर पर्वणी थारता. एकदां म्हजेरूय असोच प्रसंग आयिल्लो आनी ह्या प्रसंगाक नलू साक्षी आशिल्ल्या कारणान म्हाका तो घट्ट याद उरला. हांव आनी नलूचो येजमान मावोड्या आशिल्ले. नलूच्या येजमानाक आवड्य म्हणून खडपी कुल्ल्यांचें तोंडाक आनी खोर्नांतले भाजिल्ले कड्क उंडे असो बेत आशिल्लो. 'पानवेलीचे निमतान मस्काक उदक' ह्या हिशोबान हांवूय तोंडाक, कड्क उंडे आनी गांवठी कांदे घेवन बसलों. दोन तीन उंड्या कुड्के तोंडाकाक लावन भितर वचूं नाका काना फाटल्यांतल्यान केंसांतल्यान घाम आनी नाकांतल्यान उदक व्हांवपाक लागलें. साड्वाक लाल रस्सा पांढ्रा रस्सा खावपाची संवय आशिल्ल्यान तो 'मस्त मस्त' अशें घांसा कणकणीं म्हणून भितर उड्यतालो. मदीं मदीं तो 'कड्क कड्क' आवाज काडून कुल्ल्यां दोके फोड्यलो. नलू 'भावोजीची फजेती बघा. घाम पुसु की नाक पुसु घाम पुसु की नाक पुसु अशी परिस्थिती' अशें म्हणून किटीकिटी करून हांसपाक लागलें.

''मेळ्ळें म्हणून खावपाची अक्कल नाका?''- ही.

कुल्ल्यो खावपाक अक्कल लागता हें म्हाका मावोड्या ते दिसा कळ्ळें! ल्हान आसतना आई नाक पुसपाची अक्कल ना अशें म्हणयली खरी. ते दिसा घाम आनी नाक बराबर व्हांवपाक लागिल्ल्यान खरे अकलेची गरज आशिल्ली दिसता, कोणाक खबर!

मनशाक कापाजदाद आसल्यार तो दुसऱ्याक घाम काडूंक शकता. लग्न जाल्यांक हांवें हें सांगपाची गरज ना. ही जाली घरांतली गजाल. घरा भायर वचून आमी खेळाच्या मैदानार नदर मारुंया. १९७०-१९७५ ह्या काळांत वेस्ट इंडीज क्रिकेट पंगड जगाचेर शेक गाजयतालो तो तांच्या फास्ट बोलरांक लागून. एण्डी रॉबर्ट्स, मायकल होल्डींग, जोयल गार्नर, कॉलीन क्रॉफ्ट हे संवसारांतल्या फलंदाजांक घाम काड्यले. तकलेक हेल्मेट ना, आर्मगार्ड नासतना फकत पांयांक पेड्स बांदून ह्या गोलंदाजांक तोंड दिवप त्या काळांत एक प्रकारचें दिव्यूच तें. तांची उंची ६.२, ६.७, ६.८, ६.४, ६.५ फूट अशी आशिल्ली. जोयल गार्नर तर 'बिग बर्ड' ह्या नांवान फामाद जालो. हे गोलंदाज जेन्ना गोलंदाजी करपाक धांवत येताले तेन्ना फलंदाजांचें

*(पान ३४ चेर)*

# ‘खलील जिब्रान’: वेंचीक साहित्याचो अणकार

परिक्षण

संवसारीक नामनेचे साहित्यीक खलील जिब्रान हांच्या वेंचीक साहित्याचो कोंकणी अणकार हालींच उजवाडाक आयला. हो अणकार कोंकणींतले जेश्ट साहित्यीक नागेशबाब करमली हांणी केला. खूब वर्सां उपरांत जिब्रानाचें साहित्य आमकां कोंकणींतल्यान वाचूंक मेळटा. हाचे पयलीं १९७३ वर्सा जिब्रानाच्या 'The Prophet' ह्या पुस्तकाचो अणकार स. बाकीबाब बोरकार हांणी “पैगंबर” ह्या नांवान उजवाडाक हाडिल्लो आनी ‘जाग’ प्रकाशनान तो उजवाडायिल्लो.

खरेपणीं खलील जिब्रान हो तांच्या १९२३ वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या 'The Prophet' ह्या पुस्तकां वरवींच संवसार भर फामाद जालो. ताच्या ह्या पुस्तकाचो संवसारांतल्या १२० भासां परस चड भासांनी अणकार जाला आनी त्या भासां मदीं कोंकणीचोय आसपाव आसा ही गजाल आमकां सगळ्यांक अभिमानाची.




खलील जिब्रान हो साहित्याचो सगळ्यांत चड खप आशिल्ल्या (Best selling poet) संवसारांतल्या पयल्या तीन कवीं मदलो एक. पयले सुवातेर सहाजीकच विल्यम शेक्सपियर हांचें नांव येता.

खलील जिब्रान हांचें सगळें साहित्य मनिस कुळयेक स्फूर्त दिवपी. तांची भास-शैली, तांची विचार मांडपाची पद्‌दत हें सगळें आगळें वेगळें. अशे तरेचें साहित्य हे आदीं कोणें बरोवंक नासलें आनी ते खातीरच तें सगळ्या लोकांक भावलें. खलील जिब्रान हांणी साहित्या वांगडाच चित्रकलेचेरूय फिशालपण जोडलें.

जिब्रानाचो जल्म लेबाननचे उत्तरेक आशिल्ल्या पर्वत रांगां मदल्या बशेरी ह्या गांवांत ६ डिसेंबर १८८३ वर्सा जालो. ताचें मुळावें शिक्षण ताच्या गांवांतच जालें. तो जरी अरबी आनी सिरियन भासो शिकलो तरी ताची बरोवपाची भास ही अरबीच आसली. खलील भुरगेपणांतच चित्रांय काड्टालो. तो मुळा सावन एक वेगळे तरेचो भुरगो कसो वागतालो. तो वांगडच्या भुरग्यां मदीं भरसना आसलो. ताका एकांत आवड्टालो.

ताच्या पिरायेच्या बाराव्या वर्सा जिब्रानाची आवय आपल्या चारूय भुरग्यांक घेवन १९८५ वर्सा अमेरिकेक गेली. बोस्टन शारांत तांणी राबितो केलो कित्याक तर कामां निमतान आयिल्ले जायते लेबानानी त्याच शारात रावताले. थंयच जिब्रान इंग्लीश - फ्रेंच भासो शिकलो. दोन वर्सां भितर तो लेबानीजांनी राजधानी बैरुताक परतलो आनी १९०१ वर्सा थंय तो पदवीधर जालो. उपरांत तो चित्रकलेचें उंचेलें शिक्षण घेवपाक पारिसाक गेलो. आवय बरी ना म्हण १९०३ वर्सा चित्रकलेचें शिक्षण अदर्यार सोडून तो अमेरिकेक परत आयलो.

१९०८ वर्सा चित्रकलेचें शिक्षण पुराय करपाक तो परत पारिसाक गेलो आनी शिक्षण पुराय करून १९१० वर्सा अमेरिकेच्या न्युयोर्क वाठारांत स्थायीक जालो. ताणें चित्रकले बराबर इंग्लीश भाशेचेरूय फिशालपण जोडलें. तो शैलीदार इंग्लिशींत बरोवपाक लागलो. ताच्या नांवाची नामना संवसार भर पातळ्ळी. ताणें बरयिल्ल्या ह्या ताच्या अरबी भाशेंतल्या पुस्तकाचो अणकार 'The Prophet' ह्या नांवान तांणी उजवाडायलो आनी ह्या पुस्तका खातीर ताची नामना संवसार भर जाली.

ताका १९३१ सालांत पिरायेच्या ४८ वर्सा मरण आयलें. मरणां उपरांत ताका चड प्रसिद्‌धी मेळ्ळी. लोकांक ह्या म्हान लेबाननी कवी, तत्वगिझानी आनी चित्रकाराची व्हडवीक कळ्ळी. जिब्रानान अरबी साहित्याक एक नवो आयाम दिवपा वांगडाच साहित्य सृजनाचो एक नवो अध्याय सुरू केलो. जिब्रानाक आशिया खंडांतले साहित्य, कला आनी संस्कृतीचे उदगाते मानतात.

अश्या ह्या भोव आयामी आनी संवसार भर तोखणाय जाल्ल्या साहित्यिकाचें कांय वेंचीक आनी मोलादीक साहित्य नागेशबाबान ‘खलील जिब्रान-वेंचीक साहित्य’ ह्या नांवान कोंकणींतल्यान उजवाडाक हाडलां.

नागेशबाब आपल्या ह्या पुस्तकाच्या मनोगतांत म्हणयत की; ते जेन्ना गोंय मुक्ती संग्रामांतलो वांटेकार म्हण रेजमागाचे बंदखणींत

आसले तेन्ना ताका खलील जिब्रानाच्या साहित्याची पयली वळख घडली. मराठींतले नामनेचे लेखक श्रीपाद जोशी हांणी जिब्रानाची 'सलमा' ही नवलिका मराठींत अणकारीत केल्ली ती नागेशबाबांक वाचूंक मेळ्ळी आनी ताचे उपरांत तांणीच अणकारीत केल्ल्यो निती कथाय वाचूंक मेळ्ळ्यो. त्यो वाचतगीर नागेशबाबांक तांचें पुराय साहित्य वाचपाची उमळशीक लागली.

ते आपल्या मनोगतांत फुडें म्हणटात - "हो खलील जिब्रान मनांत कितलींशींच वर्सां घर करून आशिल्लो. ताच्या साहित्याचें वाचन-मनन काळजांत एक वेगळीच खुशालकाय जागयतालें. ही खुशालकाय आमच्या कोंकणी साहित्य मोग्यां मेरेन पावोवची अशें सदांच म्हाका दिसतालें. आनी असोच एक दीस हांव जिब्रानाक घेवन बसलों आनी हो अणकार जल्माक आयलो."

ह्या पुस्तकांत जिब्रानाचे वेंचीक साहित्य - 'भूंयदेव' (The Earth Gods), 'वज्रां आनी मोतयां' (Sand and Foam), 'अग्रदूत' (Forerunner) जिब्रानाच्या दिश्टव्यो काणयो (दोन भागांत)- (The wonderer and the madman) आसपावला.

नागेशबाबान ह्या वेंचीक साहित्याचो सुरबूस तरेन अणकार केला. सामकी सोंपी भास, व्हांवती भाशा शैली आनी मुळ संहितेक खंयच धपको दिनासतना केल्लो हो अणकार म्हणल्यार दुसऱ्या भासांतल्यान कोंकणींत अणकार करप्यां खातीर एक देख जावन आसा अशें म्हळ्यार अतिताय जांवची नां. ते खातीर नागेशबाबांची तोखणाय करत तितली थोडीच. पिरायेच्या सरत्या काळार एदो व्हडलो वावर करप म्हणल्यार 'The age is just a number' हें सत म्हण नागेश बाबान आमकां दाखोवन दिलां.

कोंकणी मायेक एक सोबीत पुस्तक दिल्ले खातीर नागेशबाब आनी संजना प्रकाशनाचे दिनेशबाब मणेरकार हांकां परबीं.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**खलील जिब्रान**
वेंचीक साहित्य
**अणकार:** नागेश करमली
**पानां :** १७२
**मोल:** २०० रुपया
**उजवाडावपी:** संजना प्रकाशन, सांगें-गोंय.

*(पान १६ वयल्यान)*

कमी जावंक नासलो तरी नुस्तें सोडून दिवपाचो विचार गोंयकाराक केन्नाच आफुडलो ना. ताचो हो निर्धार खूब शाणेपणाचो आसलो अशें म्हजें स्पश्ट मत आसा. नुस्त्यान आमकां रुचीची खरी जाणविकाय दिली आनी ताचेच खातीर आमी सगळे इंद्रियभोग खरे रसिकतायेन घेवंक शकतात. आयजकाल संतत कमी करात म्हण सांगतात. पूण ताचेर उपाय म्हण गोंयकार म्हणटलो नुस्त्याचें पीक वाड्यात. जमनीचेर पिकपी वरव गोट्या परस आमी दर्यांत जावपी नुस्त्याचेर चड भिस्त दवरली तर खावपाचीं वाड्टीं तोंडां आमी सहज भरूंक शकतात अशें ताचें रास्त म्हणणें आसा. भारत देसाच्या सगळ्या जाणकारांनी हाचेर खऱ्यांनीच विचार करचो.

न्हिदतना आमची सदचीच प्रार्थना आसता ''तुका म्हणे गर्भवासी। सुके घालावे आम्हासी॥'' हांगा 'सुके' म्हळ्यार सुकें नुस्तें नाजाल्यार नुस्त्याचें सुकें.

ही भारत देसाची भौशीक प्रार्थना जाली जाल्यार ताचे चडशे प्रस्न कांय न्हय करून सुट्टले अशें एक गोंयकार म्हण म्हाकाय दिसता.

*''नुस्तें आसल्यार गोंयकार वीर, नुस्तें नासल्यार गोंयकार व्हीर''* अशें आपल्या कवितेंत म्हणपी बाकीबाबांचो *''सुके घालावे आम्हासी''* हो नुस्त्या वेलो तांचो एक अप्रतीम निबंद तांच्या *''घुमटावरले पारवे''* ह्या मराठी निबंद संग्रहांत आसा. ताचो हांवे केल्लो हो कोंकणींत अणकार.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

---

*(पान ३१ वयल्यान)*

प्रेसांव वाड्यलें आनी बोलाक तोंड दिवचे आदींच ते अर्दमेल्ले जाताले. गार्नरा विशीं उलयतना जेफ बॉयकॉट एके कडेन म्हणटा की ताणें घातिल्लो बॉल मळबांतल्यान सकयल आयिल्ले वरी दिसतालो. आज विक्रमादित्य म्हणून मिरयतात तांची परिस्थिती ह्या गोलंदाजां सामकार कितें जातली आशिल्ली देवाक खबर. 'Facing these bowlers was batsman's nightmare' अशें तो म्हणटा, तें ओगीच न्हय. नायटमेरा वयल्यान याद जाली. तकलेक खोबरेल थापल्यार लेगीत भयानक सपनां पडूंक शकतात हें हांव म्हज्या अणभवा वयल्यान सांगतां. हाचे वयल्यान सपनां आनी खोबरेल तेलाचो कांयच संबंद ना हें सिद्ध जाता. आई आपल्या समाधाना खातीर म्हज्या बोडार तें थापताली. म्हाका सपना पडपाचीं तीं पड्यलींच आनी हांव घामाघूम जावन उठपाचो तो उठ्ठलोंच. सगळ्या सपनांनी चलयांचे बापूय अजीत, शेट्टी, जिवन ह्या खलनायकांचें रूप घेवन येताले. एकदां बरड अजिता वरी काळें गॉगल लावन सपनांत आयलो. ताणे आपले दोनीय पांय पसऱ्याचे नाबीर दवरले आनी म्हाका ताच्या मानायांनी (अनंत आनी नारायण) ताचे सामकार दवरलो. 'तेरी आई हमारे कब्जे में है, उसको हमारे गोदांव में लेके जाव' बरडान चिरूट ओडीत ऑर्द दिली. म्हाका तांणी गुदांवांत व्हेलो. पळयल्यार आईक गुदांवांत हात बांदून गंवांच्या साकार उबी केल्या (ती निरूपा रॉया वरी निळे देगेची धवी साडी न्हेशिल्ली हें हांवें सपनांत लेगीत नोट केलें). 'बेटा ईन कुत्तों के सामने मत नाचो' आईन म्हणलें. आई शोलेंतलो डायलॉग म्हाका कित्याक मारता हें कळ्ळें ना तरी आसतना 'नाच मेरे बुलबुल पैसा मिलेगा' अशें म्हणत हांव एका पांयार गुदांव भर वाटकुळों नाचलों. इतलें करून लेगीत बरडान बॉल्सांत हात घालून पिस्तूल काडलें तसो हांव 'बरडबाब रड्यानी' अशें म्हणत घामाघूम जावन उठलों. आईन म्हाका ओल्या तुवाल्यान पुसून काडलो. दुसऱ्या दिसा कवळ्यां वचून प्रसाद घेतलो. देवता भायली बाधा जाल्या सांगून मेकळी जाली. म्हणूनूच देशांत कितेंय जाल्यार 'बाहेरच्या शक्तीचा हात आहे' अशें हांव जेन्ना वाचतां तेन्ना म्हाका व्हडलें अजाप जायना. आमच्या सपनांत लेगीत 'बाहेरच्या शक्तीचा हात' आसता.

मनीस नेर्वोझ जाता तेन्नाय तो घामाघूम जाता. चड करून चले जेन्ना चलये कडेन वेगळें नातें तयार करपाचे धडपडींत आसतात तेन्ना तांकां कित्याक खबर ना घाम फुट्टा. फुडें संवयेन मागीर घाम येवपाचो बंद जाता ती गजाल वेगळी. देख दिवंची जाल्यार 'बातों बातों में' सिनेम्यांतल्या हेनरी (उदयचंद्र) ह्या पात्राची दीन. तो नेन्सी परेराचो (टीना मुनीम) शेजारी आसून लेगीत तिका मेळच्या वेळार तो घामाघूम जाता. म्हजीय गत अशीच जाताली. संध्या हरशीं पायणींतूच रावतालें. म्हजे बराबर शिकतालें. तें पास जायत फुडें पावलें तो नशिबाचो भाग. सोड. पूण तें पसऱ्यार आसत जाल्यार हांव सामको घामाघूम जातालों. खूब फावटीं ताच्या हातांतल्यान पेत्रोलाच्यो बाटल्यो (केरोसीन) घेतना म्हज्या हाताक आयिल्ल्या घामाक लागून त्यो फुटल्यात. हाका लागून देशाचे निसर्गीक संपत्तीचें अमाप लुकसाण जालां. हाका म्हज्या हातांचो घाम जापसालदार हें हांव मान्य करतां. 'मारे शरम के पानी पानी हो जाना' असो आमचे राज्यभाशेंत मुहावरो आसा. हाचो अर्थ लजेन मरप असो जाता. लज जाता तेन्ना कुडींतल्यान उदक येवपाक खंयच्यानूच वाट ना म्हणटकच जें पानी पानी म्हणलां तो घाम आसूंक जाय अशें म्हजें मत. सितामाईक प्रभू रामचंद्रान अग्नीपरिक्षा घेवपाक लायली तेन्ना मुनीजनां सामकार पानी पानी जावन तिणें धरणी मातेक आपल्याक पोटांत घे म्हणून सांगलां जावये असो म्हाका सुस्पेत मारता.

आज आमचे कुडींतल्यान वयर म्हणलां तशें वीज वतकच घाम भायर सरपाक लागला. हीं बऱ्याचीं लक्षणां न्हय. दोतोरागेर वचत जाल्यार तो पांचशें रुपया घेवन कुडींतल्यान घाम काडात अशें सांगता. मागीर आमी व्यायामशाळेंत (Gym) नांव नोंदणी करून गाड्येन वा स्कुटरीन थंय अडेचो घाम काडपाक वतात. आज आमी चार ते पांच हजार दिवन आमचे कुडींतल्यान अडेचो घाम काड्यात. अशें आमच्या जाण्टेल्यांक वयर कळत जाल्यार थंय तांकां बशिल्ले कडेन घाम फुट्टलो हातूंत दुबाव ना.

संपर्क: 9850530756



# कविता

## परत पावस येवन गेला..

**रमेश साजु घाडी.**

फ़ांतोडेचेर गांवांन म्हज्या
परत पावस येवन गेला
कुलकुल्याची थंडाय घालून
गरमी सगळी घेवन गेला.

घरा फाटल्या उदका व्हण्यान
देंकळ्या वरी पेंवून गेला
ल्हवूच दोन मोतयां म्हाका
आळवा पानार थेवून गेला.

पाडसा वयल्या नळ्यांर बसून
ताबुलांनी खेळून गेला
अर्दकुटे साकर न्हिदेंत
मोगी कसो मेळून गेला.

पनेळाचे खांचींतल्यान
घसघश्यांनी गळून गेला
ल्हवूच चोर-पावलांनी तो
दोंगरा दिकेन पळून गेला

फांतोडेचेर गांवान म्हज्या
परत पावस येवन गेला
कुलकुल्याची थंडाय घालून
गरमी सगळी घेवन गेला.

देंकळोः पावसांत व्हाळा, कोंडीनी मेळपी थिगुराच्या प्रजातींतलें एक ल्हान नुस्तें.

संपर्क : 9850453355



## पूर्वाषाढ

**आर. एस. भास्कर**

विस्तृत मळबावेल्यान
परजळटा
म्हजें
पूर्वाषाढ-
जगताकडेंचे
म्हजें नातें परगटायत

दर म्हयनाच्या
पूर्वाषाढाक हांव
चुकनाशें पावता
अर्चन अनंताक.

आतां,
जाला कितें?
आर्दीचे पर्शी सबार तेजान
परजळटा
म्हजे
पूर्वाषाढ!
पुण,
इल्ले तरी उजवाड
म्हजेर ना घालता!

संपर्क: ८८९१३०६१२३

## कविता

**संजीव वेरेंकार**

मर्दींच एका स्टेशनार
एक तरनाटो आमचे ट्रेनीत चडलो
सगळ्या प्रवाशा परस आपूण श्रेश्ट
अशे तो दाखवंक सोदतालो
देखून डब्यांत मस्ती करूंक लागलो
म्हाका दुबाव माल्लो म्हणून
हांवे ताका तिकेट दाखय म्हळें
हा तिकेट नासतना ट्रेनीत चडिल्लो!
आरे सभाग्या,
तिकेट नासतना ट्रेनीत चडला जाल्यार
बावडो जावन खंयूय शांत बसचो
आशिल्लो!
ताणे तशे केलेंना
ताणे मस्ती केली आनी हो
म्हजे तावडीन सापडलो!!

संपर्क : 09422643629





## नीलाक

### किरण म्हांब्रे

आज तुजे खातीर हांव
फुरसतीन रडटां

कांट्यां खुंट्यांची वाट ती
सपनां कडेन व्हरताली
रक्तबंबाळ पांय पळोवन
जनरीत हांसताली

ना तोखणायेची आस
ना निंदेचो दास
सपनांचो ध्यास
आनी हिमतीचो स्वास

कल्पनेंतल्या दुनियेंतलो
वास्तव तुजो संवसार
काळजा गोंडो तळठार आनी
पाकळी पाकळी जाग्या जाग्यार

फकाणांच्या नादांत
तुजी खिल्ली उडयली
पराक्रमाक मात तुज्या
दाद दिवपाची उरली

आज म्हज्या उस्वासांनी
मोडार मोड येता
काळजांतलो हुंवार म्हज्या
मळबांतल्यान रकता.

संपर्कः 8007231075

## सावळे सावळे, खंय गे तूं?

### अरुण साखरदांडे

एक एक करून सगळेच गेले
वता तांकां कोण आडयतलो?
येता तांकां वाटूच मेळना
म्हज्या नशिबाक कोमरीच फुटना

आठ दिसां पयलींची गजाल
फाटल्यान घुंवन पळयत जाल्यार
म्हजी सावळीच म्हाका दिसना
हांवें म्हाकाच सांसपून पळेलो
म्हणलें, हांव तर आसा
आनी म्हजी सावळी कशी ना?

मागीर सोदली हांगा थंय
पळयल्यार
हांवें भुरगेपणांत रोयिल्ल्या
आंब्या पोंदा बसल्या गड्ड्यांनी खेळत
तेन्ना हांव गड्ड्यांनी खेळटालों
इश्टा वांगडा आमोरी जाय सर

पांच दिसां पयली
परत ना जाली म्हजी सावळी
सोदून सोदून मेळ्ळी
देवळा कुशीकचे तळयेत
बुचकुळ्यो मारताना
भुरगेपणांत हांव गांवचे तळयेंत
उडयो मारून
तळ सोदतालों तळयेचो
इश्टा वांगडा

तीन दिसां पयली
म्हजी सावळी नाच्च जाली
परतून एकदां
सोदतां हांव वयर सकयल
निमणें मेळ्ळी बाबा माळयेर
म्हजो पोन्नो ट्रंक उस्तितना
हांवें एकठांय केल्ल्ीं मोरपांखां
कूड भर उडयल्लीं पिसडावन
करतलों कितें?
भल्लो कोयर
उडयलो भायर



काल जेवतकच लकणी आयली
तितले भितर सावळी गायब
हांव सोदतां बाबडो
जाल्यार रस्त्या पलतडचे वडा खांदयेर
वारो खाता सुशेगाद
देंव म्हळ्यार देंवच ना
मागीर बाबा-पुता करून हाडली घरा
हांव आनी म्हजो इश्ट विनू
देवळा कुशीकच्या वडार
चडून बसताले

आयज सकाळच्यान सावळेची
जागूच ना
सोदून सोदून पांय मोडले
शेर्त मॅडूच जाल्ल्या आसतली
खंय गेली काय?
म्हज्या पयसुल्ल्या गांवांत बी
वचूंक ना मूं?
म्हाका हांगा एकटो सोडून
आतां कितें उरलां म्हज्या गांवांत?

संपर्कः 9422061702



